# रग्यांलें जग

( अेक दीसपटी )

र. वि. पंडित



BHAGAVATI PRAKASHAN

12, BAMBOLKAR BUILDING,
MALA. PANAJI, GOA-403 001.



**डॉ. हा. मा. नायक**

हांकां

माये – मोगान

**बरोवपाचो काळ : १९६६ - १९७४**

# दोन अुतरां

भुरगीं अुलयतात. कांय बेगीन. कांय अुसरां. अुलोवप हो तांचे वाडींचो अेक पांवडो. अुमथें -अुदारें जावप. पोट ओडप. अुठून बसप. दिमखुऱ्यांनीं चलप. अुबें रावप. हांतल्यो कांय गजाली तीं आपशींच शिकतात. कांय तांकां शिकोवंच्यो पडटात. कांय गजाली तीं रोकडीं शिकतात. कांय वेळानं. तशें अुलोवप.

पुण दिशींदिशीं अेकाद्रचा भुरग्याची बुद्द वाडत वेता. आनी त्याप्रमाण तागेल्या अुलोवपांत बदल जाता. मागीर तो आपले तकलेंतलें अुलोवंक लागता. दिसता तें अुलयता. आयकता तें अुलयता. कांय गजाली तो आपशकमीच रचून अुलयता. भुरग्याचे हे बोल सोबीत आसतात. सुरबूस आसतात. त्या कामाक तो भुरगो बुदवंतूच जाय अशें ना. निर्बुद्द भुरगोलेगीत खूबशे फावट तोखणाय करीसारकें अुलयता. हे तागेले बोल जतनाय करून दवरीसारके आसतात. तशे ते दवरले जाल्यार तांतल्यान अेक म्होंवाळ साहित्य अुप्रासूं येता.

हे नदरेन हो येत्न. हचा पुस्तकांतले म्हगेल्या पुताचें नांव चंद्रशेखर. ताका आमी शेखर म्हण्टांत. ताचो जल्म २५ जुलै १९६४ हचा दिसा जालो. हो भुरगो बुद्दीन हेर खंयच्याय भुरग्यावरी. ताच्यांत अदीक अशें कांय ना. तागेले आठ वर्सांतले, देड ते धा वर्सां मेरेनचे, कांय वेंचीक बोल पुंजावन हांवें हचा पुस्तकांत गुंथल्यात. वाचप्यांच्या मनोरंजनाखातीर.

हचा पुस्तकाचो काळ १९६६ तो १९७४ हचा काळांत आमी दोन तीन फावट रावपाचे जागे बदलले. हचा पुस्तकांत घरच्या मनशांबराबर, शेखराक सांबाळूंक दवरिल्लीं चेडवां आनी आमचीं त्या त्या वेळेचीं शेजाऱ्यां आयल्यांत.

पणजी २२-१-१९७० र. वि. पंडित

२४ नव्हेंबर १९६६

## दुदाचो दर्या

आमी चंपावती बोटींतल्यान वेंगुर्लेसावन मुंबय वेतालीं. हांव, शेखर आनी म्हजी घरकान्न सुषमा. चंपावतीच्या डेकावेल्यान म्हजो हात धरून दर्या ल्हारांची गम्मत पळोवपांत शेखर गुल्ल आशिल्लो. समुद्रावेल्या प्रवासाची ताची ही जीणेंतली पयलीच खेप. इतलें उदक एकठांय तो आयजूच पळेतालो. तातूंत चोशींवाटेन पातळिल्ल्या अफाट दर्यामदसून वचपी आमची बोट. सगळें नवलूच. ल्हारांबरोबर बोटीचें धोलप. बोटीन चलताना

कापिल्ल्या ल्हारांकारणान उदकाचो घस घस जावपी आवाज. बोटीची फाट धरीत तिचेवेल्यान उडपी धवींफुल्ल शेवणारां. बोटींतूच एका सोबीत घरावरी केबीन, च्याचें हॉटेल. आनी चौफेर पासयो मारपाक लांब रूंद मेकळो, उजवाडाचो वाऱ्याचो जागो. एक नवोच केन्ना पळोवंक नाशिल्लो अशेतरेचो अपरूप संवसार. चंद्रशेखर हें पळोवन सुमाराभायर खोशी जाल्लो. आमी सगल्यानीं सदाकाळ अशें बोटीरूच रावल्यार तितलेशें वायट न्हय अशेतरेची एक सुंदर कल्पनाय ताच्या मनाक आफडून गेल्ली आसुंये. कित्याक थोडयाच खिणांपयलीं, 'बाबा आमी वेंगुल्ल्यां वचुंया नाका न्हय ?' अशी सुचोवणीय ताणें केल्ली.

समुद्रावेली हवा मात्तशी वादळी आशिल्ली. त्या-कारणान वेगान झोके घेयत ल्हारांवेल्यान फुडें सरपी बोटीर आपटून पांचवींचार ल्हारां फुट्टालीं. आनी आपल्या धव्याफुल्ल फेंसाची दुदाळ साय, बोटी भोंवतणच्या पाणयाचेर सगळेकडेन पसरयतालीं. तें पळोवन शेखर म्हाका म्हण्टा, 'बाबा पलय, पाणीन दुदू चल्लां '

परथून काय वेळान तो म्हण्टा, 'बाबा, बाबा ... आहाचो सुंदर सुंदर पानी ! '

२४-११-१९६६

## नवो मारूती

चंपावती बोटीवेली सांजवेळ. डेकावेल्यान आमी तिगांय सुर्यास्त पळेतालीं.

हावें शेखराक म्हळें "पळे रे बाबू आतां सूर्यामामा उदकांत बुडटलो." (शेखर उदकांत म्हणचे बदला पाणीन म्हण्टा. कित्याक हाव नकळं. उदक हें उतर ताक निखालूस आवडना.)

सूर्यास्त जांवचे पयलीं कांय खीण सूर्य सामको तांबडो गुंज उज्याचो गुळो कसो दिसता. एखाद्र्या पेपरमिंटावरी. ताचो आकारुय बी दोळयांक चाकलेटीयेदोच सामको लेमनड्रॉपाभशेन दिसता.

समुद्रावेलो अशेतरेचो सूर्यास्त पळोवपाचो लेगीत शेखराचो पयलोच प्रसंग.

सूर्या हळुहळू मळबांतल्यान धारेकडेन सरकूंक लागलो तसो तो नाचुंकूच लागलो, "सूर्यामामा पाणीन बुडुक्क... पाणीन बुडुक्क" करीत, ताळयो पेटीत ताचे-कडेन पळेत बागडूंक लागलो. कोणेंय तरी ताका बुडपाक दिवंक फावना वेगोवेग काडूंक जाय. काय बरो सुंदर सोबीत सूर्या.ताचो कितें तरी बरो उपेग करपाक जाय अशें ताका दिसतालें. पुण उदकांत वचून कोण तें काम करीत हें कळूक नाशिल्ल्यान, आनी इतले म्हणसर सूर्य उदकांत लेगीत हळुहळु बुडपाक लागिल्ल्यान, शेखर सामकोच बेचैन जालो. धारेकडेन बोट दाखोवन लखलखीत सूर्याकोरेक डॅकावेल्यान धरपाखातीर हात फुडें काडीत आवयक म्हणपाक लागलो, 'आई . आई .. सूल्यामामा ...चाकीचो... गोड गोड .. बाबू कांव?"

१४-२-१९६७

## प्रार्थना

शेखर दिसपट्टी रातची ही प्रार्थना म्हण्टा:

देवबाप्पा, लामदेव (रामदेव), आईक बोलो कल, बाबाक बोलो कल, बाप्पा तगलांक, (सगळयांक) बोलो कल.

१४-७-१९६७

## नाकाचो उपेग

हांव:बाबू पांय कित्याखातीर आसतात रे ?
शेखर: च्योलपाक.
हांव: आनी हात ?
शेखर: धलपाक.
हांव: कान कित्याक रे बाबू ?
शेखर: तेल घालपाक.
हांव: दोळे ?
शेखर: पलोवपाक.
हांव: केंस ?
शेखर: उगोवपाक.
हांव: तोंड कित्याक ?
शेखर: जेवपाक, आनी पावडर लावपाक.
हांव: पोट ?
शेखर: मामू वच्यूंक.

हांव: आनी नाक रे बाबू ?

शेखर: शिमूट येवपाक.

४-९-१९६७

## गोबराचे हात

शेखराक हांव कालूच म्हजे बराबर स्टोव्ह सारको-करपी फोलिणेराकडेन घेवन गेल्लों.

ताका मोटार मॅकानीक, फोलिणेर, सायकल मॅकानीक, इलेक्ट्रीशन, रेडिओ-घडयाळांचे रिपेरर, गवंडे असले लोक मानवतात. ते काम करताना मन लावन वरांचीं वरां तो पळेत बसता.

आयज तो गुपचूप सगळयांचे दोळे चुकोवन, कालूच रिपेर करुन हाडिल्लो स्टोव्ह गॅलरींत घेवन गेलो आनी मेकानिकपणा करपाक बसलो. ह्या कामाक लागपी म्हजे मेजावेले पाने, स्क्रू-ड्रायव्हर ताणें आमचे नकळयां गुपचूप काडून घेतिल्ले. बरोच वेळ ताची जाग ना शी पळोवन हांव गॅलरींत यो जाल्यार हाणे तुतयान स्टोव्ह बेसबरो थापटून दवल्ला. कामांत गुल्ल आसा. म्हजेकडेन फाट· गॅलरीचें दार घट्ट ओडून घेतलां. जनेलांतल्यान पळे जाल्यार हाता तोंडाक स्टोची काळीकिट्ट घस लावन बरो बुडबुडला. घामान चिप्प भिजला. "कितें चल्लां रे शेखर ?" अशें हावें विचारल्या बराबर काचाबूल जाल्लेवरी जावन उठून हांसत

म्हणटा, 'पळेयात बाबा माजे हात गोबलाचे जाले अशें कशें जाता बाबा ? '

हांव: अशें म्हणचे कशें रे ?

शेखर: तलेतलेची कामां केल्यार हातूय तलेतलेचे कशें जातात ?

तो कितें विचारता तें म्हजे तकलेंत सारकें येवंक नाशिल्ल्यान हांव पळेतूच रावलों. तसो शेखर फुडें म्हणटा, "त्या दिसा मेकानिक आमचे मोटारींचे टायर बदलतालो न्हय तेन्ना ताचे हात मातयेचे जाल्ले. हांव दुदाची साय खाताना हातूय दुदाचे जातात. हात मातयेचे जाल्यार हाताक वासूय मातयेचो येता. दुदाचे जाल्यार, दुदाचो वास येता. गोबराचे जाल्यार मात पेत्रोलाचो कसो वास येता ? आनी इलेक्टरीचें काम केल्यार कसलो वास येतलो बाबा ? शॉकाचो?" तें आयकून मात हांव मनातल्या मनांत भियेलों. सामको भयाभित. कारण आमी रावतात त्या शिरोडकरांच्या ब्लॉकांत इलेक्ट्रीचे पंखे लावपाक मेळचे म्हण कांय प्लग तागीं तीन फुटांचे ऊंचायेचेर लायल्यात.

गेल्याच सुमानांत साक शिवपाचीं लोखणी दाबणां घेवन आनी गुपचुप प्लगाच्यो पिनी काडून तांतूत दाबणां घालपाचो येत्न करताना आवयन शेखराक अवचीत धरिल्लो. तिका एक मिनीट कळाव जाता जाल्यार आमचेर कसलें संकश्ट येवपाचें, देवूच जाणा. म्हाका ह्या प्रसंगाचो उगडास जालो. आनी हांव धामाधूम जालों.

प्रायमस स्टोची शेखरान धाडावन धाडावन वाट लावन

उडयल्ली पळोवन तिका खरेपणीच राग येवपाचो. पुण हातातोंडाक घस फासून केल्लो ताचो अवतार पळोवन तिचो राग खंयचे खंय विरगळून गेलो, तिणें ताका सरळ बाथरूमांत व्हेलो आनी शाब्बान बरो न्हाणयलो. ते रातीं न्हिदताना आमी दोगांयनी देवाक प्रार्थना केली, 'देवा मातयचो रंग, गोबराचें रूप आनी इलेक्टरीक शोकाचो वास सोदपी ह्या भुरग्याचेर आतां ह्याफुडें खरेपणी तुजीच राखण आसुंदी. आमच्यानी ह्राका सांबळू नज'

१२-३-१९६८

## बांदोलकाका सद्दां न्हातात ?

आयज गोंयचे मुखेलमंत्री भाऊसायब बांदोडकरांचो जलमदीस. त्या कारणान शेखर सकाळीं उठिल्लो. बरो न्हावन धुवन आनी नटून थटून वासंतीबराबर (शेखराक सांबळपाक दवरिल्लें भुरगें) भाउसायबांगेर वचून आयिल्लो. तांका चंदनाचो हार घालून आयिल्लो. भाऊसायबांनीय लागीं ओडून मोगान ताका सांसपिल्लो आनी आपलेसरीं बसोवन द्राक्षां, जिलेबी खावपाक दिल्ली. 'छोटा कवी' म्हणून ताची तोखणाय केल्ली.

घरा पर्यंतुकूच ताणें सगली खबर आमकां सांगली पुण अखेर शेवटा म्हज्या कानाकडेन येवन म्हाका ताणें ल्हवूच प्रश्न केलो. "बाबा, बांदोलकाका सदां न्हायनात ?"

हांव : गप रे शेखर तशें कित्याकितें उलोवचें न्हय भुरग्यानी.

शेखर : सांगात तरी न्हातात की ना तें ? बेठेच रागार कित्याक जातात तुमी ?

हांव : कित्याक पुण ? कोणें सांगलें तुका ते न्हायनात म्हुण. ते दिसाक दोनदा न्हातात. एकुचदां न्हय.

शेखर : ते इतले गोरे गोरे पिठ्ठ आसात. ( आयज तांका लागीसून पळोवपाचो शेखराचो पयलोच प्रसंग ) आनी तरीय सद्दां न्हातात ? गोऱ्या मनशांकूय सद्दां न्हांवचें पडटा?

शेखरान असो प्रश्न कित्याक केलो म्हणपाचें आतां म्हज्या ध्यानात आयलें.

शेखराक न्हावपाचो सदां कंटाळो. आवयन ताका न्हावपाक आपयलो कीं ताची पिरंगण सुरू जालीच.

तशें केलें कीं आमी ताका सांगतात: शेखर, मनशान म्हण्टात तें सद्दां न्हावपाकूच जाय. तूं न्हायना जाल्यार कितें जातलें जाणां ? काळो काळो विट्ट खाप्री कसो दिसूंक लागतलो. मागीर लोक तुका हांसतले आनी लज करतले.

२६-३-१९६८

## अशे गावपी अशे आयकुपी

पणजे आल्तिन्यावेल्या शिरोडकर बिल्डिगच्या पयल्या

मजल्यार एका वन-बॅडरुम ब्लॉकांत आमी रावतात. आमचे शेजाराच केणी रावतात. केणी हांचे घरापासून मुख्य रस्त्याचेर विशक्र मेत्रांचेर मुखेलमंत्री दयानंद बांदोडकरांचो बंगलो. आमचे ब्लॉकाचे गॅलरींत रावत जाल्यार केणी हांचे मागिलदाराची वासरो आनी पोरसूं दिसता. केणी हाची पांच वर्सांची चली शामू ( शर्मिश्टा ), तीन वर्सांची सारा आनी आमचो शेखर हांची मैत्री फाविल्ल्या वेळांत शामू आनी सारा हांचे खेळपाचें ठिकाण म्हणचे चडशें हें पोरसूंच म्हळ्यार येता. शामू सारा पोरसांत खेळपाक लागलीं कीं मदीं मदीं तांचीं आनी गॅलरींतल्यान आमचे शेखराची मजेदार उलोवपां चलतात. प्रस्न, जापो, केन्नाकेन्नाय भुरग्यांक सोबसारकीं दोन मिनांटभितर विसरपाचीं झगडीं. आनी ती विसरतांच मदींमदीं परतींय शामू, सारा कडल्यान शेखराक, वा हाचेकडल्यान तांकां दोगांकूय खेळांचीं, आमंत्रणां येता वेतात. शेखराचेर साराचे आवयचो चड मोग. ती ताची खूब लकतुबाय करता. आपलोच एक भुरगो जाल्लेतरी ताका लेखता. ताका मायेस्तपणान वागयता. शेखराकूय केणयाचे घरांत परकेपण दिसना. असोच एक दीस ...

दोन चार दीस जाले. शामु सारा आनी शेखर हांचेमदीं कसलें तरी वितुष्ट आयलां. आनी देखून, तूं आमचेकडेन खेळूंक येंव नाका, अशें ताणी दोगांयनी शेखराक फर्मायलां. शेखर त्या दिसापासून तांगेर वचपाचो बंद जाला. हांव आनी शेखराची आवय मदीं मदीं ताका विचारतात, "वोगीसो बसला रे बाळा, आयज सारागेर खेळूंक बी

वचनासताना ?" पुण शेखर कितें घडलां हाचो पत्तो आमकां लागूंक दिना. एकलो एकमुळोच खेळटा. घरांत खेळांत ताचें चित्त रमना. खेळटा. भायर गॅलरींत वेता. दोन मिनटां उबो रावता. परतोय भितर येता. सारा, शामूकडेन ताचें उलोवप लेगित सामकें बंद आसा.

तांचो खेळ पोरसांत सुरु जाला. शेखरूय गॅलरीतल्यान तांचेकडेन पळेत बसला. खेळटां खेळटां तांच्योय नदरो मदीं मदीं शेखरावसल्यान वळटा. शेखराचे नदरेक मेळटात. पुण दोगांय वसल्यान पुरायेन मोनेळ. उतर म्हण कोणाक फुटना. जणु काय कांयच जावंक ना असो आव हाडून सगलें चल्लां. पुण कितेंय तरी खंय चुकता हे गजालीची जाणविकाय मात तिगांकूय आसा.

तांच्या खेळांत वांटो घेवपाची उत्कट इत्सा शेखराच्या मनांत आसा. सारा, शामुकूय तो आयिल्लोच जाय. पुण हें अडेचें मोनेपणाचें सत्रंग कोणें पयलें सोडपाचें आनी कशें ? काम तशें पळेल्यार एकेतरेन सामकें सोपें. पुण दुसरेतरेन तितलेंच कठिणूय बी.

आपल्याक तीं आपयतलीं म्हण शेखरान वाट पळे पळे पळेली. उबो रावून ताचे पांय सामके वळून गेले. तसो थंयच तांचो खेळ पळेत गॅलरींत ताणें थबकल माल्ली. आनी तांचेकडेन फाट करून आपणेच रचिल्लें एक कसलें तरी अर्थ नाशिल्लें गीत व्हडव्हडान तानो घेयत तो गांवक लागलो. रंगान येवन आपले आपुणूच गीत गायता. गिताची चाल अस्तेंते संगिता वळणावेली.

सकला पोरसांत खेळपी शामूच्या कानार शेखराचे गाण्राचे सूर पडिल्ले मात्र तिका तें खूबूच मानवलें. आनी शेखराकडेन पळेत तिणें ताका उलो माल्लो. 'बाबू.'

शेखर : कितें गो शामू ?

शामू : आमगेर यो मरे खेळपाक.

शेखर : कितें सांगता गो शामू ? तुमगेर येंव ? पैरूच तुवें येंवनाका सांगलेलें मुगो म्हाका ? आनी आतां परतेंय यो सांगता ?

शामू : पैर सांगलेलें आसूं रे. आता म्हणचें ना तशें. यो तूं.

शेखर : आनी सारा ?

शामू : तेंय ना म्हणचें.

शेखर : खरें सांगता तूं ? पुण आतां परतेंय तशें म्हळयार मात हांव तुमगेर केन्नाच येवचों ना आं.

शामू : यो रे तूं आतां ना म्हणचें तशें केन्नाच. यो तूं. पैरसुद्दां खऱ्यानी म्हणूंक ना. फकाणांनी. बाबू आमचो. बाबूक आमगेर येंव नाका अशें आमी केन्ना खऱ्यांनी म्हण्टात रे ?

शेखर : (ताचे उतरांनीं शेखराचें तोंड रोखडेंच फुल्लें. म्हणपाक लागलो) 'मातशें राव आं कपडे करून येतां'.

शेखर : सादी चड्डीच घालून गॅलरींत आशिल्लो. उकतोच. भितर आयलो. आपले आवयकडल्यान बरे कपडे घालून आनी नटून थटून शेजारा शामूगेर गेलो. वेताना बराबर वासंती ह्या ताका सांबाळपी चेडवाक घेवन गेलो

केणयागेल्या बुलडॉग कुत्र्याक तो थर्त भियेता. शेखर, शामू सारा तिगांय पोरसांत जमलों. हांव गॅलरींत रावून तांचे हें भुरग्यां नाटक पळैत उबो आसां. तिगांय मदलें उलोवप म्हजे कानार येता.

शामू : आतां पद कोण म्हणटालो रे ?

शेखर : कोण म्हणचे, हांवूच न्ही गो ?

शामू : तूं कांतार कोरता ?

(शामुची आवय युरोपियन. बापूय भारतीय. ते कारणान शामूच्या आनी साराच्या उलोवपांत जायतीं इंग्लेज पुर्तुगेज उतरां आसतात.)

शेखर : किदें म्हण्टा ?

शामू : तूं कांतार कोरता काय म्हण्टा?

शेखर : कांतार म्हणचे कितें गो ?

शामू : आरे तूं कांतार म्हणचे पद म्हणटा ?

शेखर : म्हण्टां तर आतांच म्हणिनासलो गो हांव ?

शामू : हय मरे, मागीर तूं म्हणटालो तें कांतार परतेंय म्हण पळोवया.

शेखर : (सुर्वेक ना व्हय करीत मात्सो लजेता. पुण थोडयाच वेळांत तें गीत इंग्लेज गीताचे चालीर जशा तशें सुरार परतेंय म्हणपाक लागता. )

यॅटी ऽऽऽऽ मॅटी ऽऽऽ
लॅटी ऽऽऽऽ पॅटी ऽऽऽ
बॅटी ऽऽऽऽ वॅटी ऽऽऽ
तालाला लालाला लाऽऽऽ
तालाला लालाला लाऽऽऽ

(गीत म्हणपाची चाल शेखर, शामू सारा कडल्यानूच शिकला. तांगेल्योच इंग्लेज पुर्तुगेज रेकॉर्डस आयकून.) शामू, साराक दोगांकूय शेखराचें हें गीत (अर्थ नाशिल्ल्या उतरांचेंच कांय आसना, शेखराचें म्हणपाचे गोड चाली कारणान ख्बूच मानवता.) ताळयांर ताळयो दियत तीं दोगांय जाणां शेखराकडल्यान हें गीत कांयना म्हळचार डझन वेळ म्हणून घेतात. अखेर शेवटा शेखर कंटाळून म्हण्टा) 'आतां पुरी गो. म्हजें तोंड सामकें वळ्ळें. आतां आनीक म्हणिना.'

शामू शेखराचेर सामकें खोशी जालें. ताणें आपले आवय कडल्यान ताका बचकभर चाकलेटी हाडून दिल्यो. सारान फिरझांतलीं आयस्फ्रूटां हाडून दिलीं. दोगांयनीं आपल्यो ट्रायसिक्ली, जिपी, ताका आग्रो करून करून बसपाक दिल्यो. त्यो न दिवपावेल्यानूच तर पयर तांचेमदीं वितुष्ट आयिल्लें. सारा शामून शेखराचे उमे घेतले. आनी तिगांय मदलें झगडें पुरायेन विसरून गेलें. मेटलें. जणु काय तें केन्नाच जावंक नाशिल्लें. अशें हें भुरग्यांलें मायेमोगाचें, लक्तुबायेचें जग.

३०–३–१९६८

## हांव बाबांसारको जावंचो ना

काल पणजेंत व्हडलें फेस्त भरिल्लें. शेखराक घेवन आमी फेरी पळोवपाक गेल्लीं. ताका फक्त कोर्दीच्यो मोटारी

आवडटात. खावपाक नाका. बावल्यो नाका. दुसरो कसलेच तरेचो खेळ नाका. येतां वेतां कितें त्यो मोटारी. दर फेर-येक, फेस्ताक, जात्रेक नव्यो नव्यो मोटारी. बेळगांव, मुंबय, पुणें, मद्रास आमचे बराबर खरेदेक गेलो कीं पयली खरेदी ताचे मोटारीची. मागीर हेर.

आनी ह्या इतल्याय मोटारींचें कितें करपाचें ? त्यो सगल्यो घरभर मांडून दवरपाच्यो. सगल्या रस्त्यांवैर. म्हजें मेज, आमचीं हांतरूणां, कदेलां, पुस्तकां, टायप-रायटर ...... हें सगळें शेखराच्या कल्पनेंतल्या शारांतले तरेक तरेचे रस्ते. दाट रहदारीचे रस्ते. आनी हे रहदारीचो मुखेल कंट्रोलर आमचो शेखर.

ट्रॅफिक कंट्रोल कसो करप? ताणेंच सगल्या रस्त्यां-वेल्यान भोवून. त्या रस्त्यांवेल्यो मोटारी तरेकतरेन भोंवडा-वन. तरेकतरेन त्यो उमथ्यो उदाऱ्यो उडोवन. अपघात करून. अपघातूय ताणेंच करपाचे. मात्तपासून शेखराक सुशेग ना. कित्याक, सगलें काम आनी आपसालदारकी एकल्याच्या माथ्यार. मोटार चलिल्ल्याचे आवाज, तरेक तरेच्या हॉर्नांचे आवाज, फास्ट धांवताना कर्रररर....क्क करून ब्रेक मारिल्ल्याचे आवाज.... पोलिसांच्यो शिटचो मारपाचें काम.... ॲक्सिडेंटांत मोडिल्ल्या मोटारींक रिपेर करपाचीं वर्कशापां चलोवपाचें काम, सगळें एकल्याचेरूच. ( आनी अशीं वर्कशॉपां चलोवपाचीं जाल्यार तांतूत मांडून दवरचे पासत नव्यो करकरीत मोटारी मोडून उडोवपाचें काम लेगीत शेखराचेंच.)

३१-३-१९६८

काल फेस्तांत हाडिल्ली नवी करकरीत मोटार शेखरान सारकी मोडून दवरिल्ली. पाने, स्क्रू ड्रायव्हर घेवन सक्काळीं फुडें कामाक लागिल्लो. आनी मोटारीचे सगळे पार्टस्, टायर, पंखे, बॉडी, कोर्द, पत्रे निखळावन तिका भयंकर अ‍ॅक्सिडेंट कसो जालो हाची खबर उमेदीन सांगपाखातीर तो आवयकडेन आयिल्लो.

मोडिल्ली मोटार, तिचे शेजारा पडिल्ल्यो दोन बावल्यो--तांचेय हात पांय तोडिल्ले. आनी म्हजे मेजावेलो तांबड्या तिताचो तिंतेर तांचेर रकोवन ताणे रचिल्लो तो देखाव पळोवन ताचें कौतुक करचे बदला आवय ताचेर तापली. म्हणपाक लागली, 'शेखर, मोटारीची तुवें सामकी वाट लायली मरे? आनी हें कितें? सगळेकडेन तींत रकोवन घालां. आतां बाबा उठले कीं तुजेर रागार जालेबगर रावंचे ना. तुका नवो खेळ तर ते निखालूस हाडून दिवंचे ना.'

शेखरान मात्सो विचार केल्लेवरी करून म्हणपाक लागलो, 'हांव तशें करचो ना आई.'

आवयक दिसलें शेखराक पच्छताप जालो. पुण शेखर फुडें म्हणपाक लागलो, 'हांव मात बाबा सारको जांवचो ना आई. हांव व्हडलो जालों आनी म्हगेर भुरगीं जालीं कीं हांव तांकां खूब खूब खेळ हाडून दितलों. तीं मागतात ते ते तरेचो. आनी ताणी तो मोडून उडयल्यार लेगीत तांचेर मात्तपासून रागार जावंचो ना. इतलेंच न्हय ताणीं मोडून उडयत तितलो तितलो चड नवो खेळ तांकां हाडून दितलों. खेळ मोडल्यार कितें जाता? मोडटा ताका नवोय

खेळ करूंक येता.' अशें म्हणून ताणे आपल्या फॅक्टरींत स्वत: तयार केल्ल्यो तरेकतरेच्यो वस्ती हाडून आवयक दाखयल्यो. तांतूत हेलिकॉप्टराचे मोडिल्ले पंखे मोटारीक जोडिल्ले. ट्रायसिकलीचे टायर बसीक जोडिल्ले, वानराची शेंपडी माजराक लायिल्ली. माजराचें तोंड बावलेक दसयल्लें अशे तरेची एक नवीच परशुरामान निर्मिल्लेवरी खेळांतली नवी सृष्टी थंय आशिल्ली..

८-४-१९६८

## शिंवाचे शिकारेक बांदोलकाकां बरोबर

रातींचो न्हिदताना चंद्रशेखराक सद्दां कसली ना कसली काणी म्हाका सांगची पडटा. आयज हांव ताका एक शिंवाची काणी सांगतालों.

सगळ्या जनावरांनीं एक खेप आपलो संव्हार टाळचे पासत कसो शिंवाकडेन करार केल्लो. सद्दां एक एकूच जनावर तीं ताचेकडेन कशीं धाडटालीं. आनी तो तांकां कसो खटासून उडयतालो ..... अशी ती काणी .....

शेखर : शींव चड मोटो आसता बाबा ?

हांव : हय तर, तो राजा मरे जनावरांचो.

शेखर : तो वागाक खाता ? होतियाक खाता ?

हांव : सगल्यांक खाता.

शेखर : वागाच्या भुरग्यांक खाता ? गायच्या पाडुकाक खाता ? कुत्र्याच्या आईक खाता ? माजराच्या बाबाक खाता ?

हांव : हय... हय.... हय... हय... हय. सगल्यांक, सगल्यांक खाता. कोणाकूच सोडीना.

शेखर : मागीर तुमी ताका मारिना कित्याक बाबा ? (जें कोणाकूच जमना तें बाबाक जमता अशी एक शेखराची कल्पना.)

हांव : आरे शिवाक मारप म्हणचे कितें सोपी गजाल दिसली तुका ? म्हाका येना बाबा ताका मारपाक.

शेखर : तुमकां सुद्दां येना ? जाल्यार बांदोलकाकांक सांगा. ते मारतले. ना बाबा ?

जें बाबाकसुद्दां जमना तें बांदोलकाकांक जमता असो एक ताचो विस्वास. हाचें पयलें कारण : मुखेल मंत्री म्हुण बांदोडकार घरसून भायर सल्ले कीं तरसादी लायिल्ल्यो बंदुको घेवन शिपायक तांकां सलाम मारतात हें.

दुसरें कारण : आपल्या मोटारीच्या माथ्यार दिसाचो लेगीत तांबडोगुंज दिवो पेटोवन भोंवपाचो अधिकार फकत एकल्या भाऊक आसा. कित्याक तो गोयंचो राजा, ताच्या मत्तान. आनी राज्यांत राजापरस व्हड दुसरो कोण ना.... अशी ताची कल्पना.

हावें शेखराक जाप दियत म्हळें 'बांदोलकाका मरे, शिवाक मारतले तर.' !

शखर : ते ताका भियेनात ?

हांव : शे शे. मात्तपासून भियेनात. तुवें पळोवंक ना रे तांच्या दारांतूच वण्टीक लायिल्लीं कितलीशींच वागा शिवाचीं

बोडकां आसात तीं ? लाकडाच्या चौकटीत बसयल्लीं ?

शेखर : पळेल्यांत तर. आनी तांचेकडेन बंदुकूय आसा न्हंय बाबा ?

हांव : एकूच ? चार चार बंदुको.

शेखर : व्हड ?

हांव : खूब व्हड.

शेखर : शिंवापरस मोटचो ?

हांव : शिंवापरसूय मोटचो. होतियापरसूय मोटचो.

शेखर : मागीर बांदोलकाकांक तुमी एकदां बेग्गीन आमगेर आपयात न्हंय बाबा.

हांव : आमगेरशे कित्याक रे ?

शेखर : आफयात बाबा. फाल्यां आफयात.

हांव : आरे, ते आमगेर येंवचे ना तशे. तांकां खूब कामां आसतात.

शेखर : पळेयात तरी आफोवन. कित्याक येंवचे ना. येतले. हांवें आफयलां म्हणून सांगात. म्हाका वळखतात ते. हांव तांकां आवडटां. तांगेर गेलों कीं म्हाका ते घट्ट धरतात. सांसपितात. म्हजी माया करतात. फकाणां मारतात. एकदम बरे ते बाबा, सबावान.

हांव : तशें जाल्यार तूंच कित्याक आफयना ? फाल्यां सकाळीं वच आनी घेवन यो तांकां.

शेखर : म्हाका लज दिसता बाबा. म्हणून तर तुमकां सांगतां. म्हजें नांव सांगून आफयल्यार नक्की येतले. पळेया हावें कितें सांगलां तें.

हांव : आनी आफोवन कितें करूं या ?

शेखर : कितें करूंया म्हणचे. मारून उडोवया त्या शिवाक तांचे बरोबर वचून.

हांव : खंयच्या शिवाक ?

शेखर : तुमचे काणयेंतल्या.

हांव : ताका कित्याक मारपाचो ?

शेखर : तुमीच सांगताले न्हय तो गायच्या पाडुकांक खाता बोकडेच्या भुरग्यांक खाता. कुतूच्या आईक खाता म्हुण ?

हांव : (जांबयो दियत) बरें मारूया हां. (म्हाकाय सामकी लकणी येवपाक लागल्या. दोळे झेमेतात. पुण शेखराची प्रस्नावळ लांबतूच उल्ल्या.)

शेखर : केन्ना मारूया ?

हांव : केन्नाय तरी एक दीस मारूयाच.

शेखर : बाबा खंय रावता शिव ?

हांव : खंय म्हणचे, दोंगरार. रानांनी. पयस पयस....

शेखर : काणयेंतल्या दोंगरार ?

हांव : हय. दोंगराच्या घोलींनीं.

शेखर : काणयेंतलो दोंगर खंय आसा बाबा ?

आतां शेखराचे दोळे न्हिदेक लागून जड जाल्ले आसतात. हळु हळु ते मेटूंक लागतात. म्हजे कुशीक न्हिदिल्ले अवस्तेंतूच, बांदोलकाकांबराबर काणयेतल्या दोंगरा-घोलींच्या सपन सृष्टींत.... शिवाचे शिकारेक वचून तो पाविल्लो लेगीत आसता.

दुसरे दिसा सकाळीं उठना बराबर आपुण बांदोल-काकांचे मोटारींतल्यान शिवाचे शिकारेक कसो गेलों... थंय बांदोलकाकान त्या भिरांकूल शिवाक गुळयो घालून एकाच फारान कसो जिवानशीं माल्लो, रानांतल्या सगळ्या

जनावरांची शिवाच्या तोंडांतल्यान कशी सोडवणूक केली.... आनी खासा आपणें दोळयांनी हें सगलें, मोटारीचीं आरशा-दारां बंद करून भितर बशिल्या जाग्यावेल्यान कशें पळेलें... ह्या गजालीचें रोसाळ वर्णन शेखर म्हाका आयकयता.

२-६-१९६८.

## देवबाप्पा आनी बाबा

आमच्या घरच्या देवाऱ्यांत एक रामपंचायतनाचें चित्र आसा. कसल्यातरी धातूच्या पत्र्याचेर कांतायल्ल्यो मूर्ति. आनी तांकां भांगराचें वर्ख दिलां.

देवाऱ्यांतल्या हेर सगल्या देवदेवतांपरस शेखराचो ह्या पंचायतनांतल्या रामाचेरूच चड मोग. चड भक्ती न्हावन धुवन आयलो की सद्दां रामा–फुडयांत नेमान तो बसता. हात जोडटा. आनी म्हण्टा 'देवबाप्पा बलो (बरो) कर. लामदेव (रामदेव) बलो कल.'

आयज प्रार्थना करपाक बशिल्लो आसताना ताका मदींच कितें यबजलें देव जाणा. हांव लागसारच उबो आशिल्लों. 'बाबा देवबाप्पान भांगराची पेंट आनी भांगराचें खोमीस तुमकां दिवन, तुमकांच देवबाप्पा करपाक जाय आशिल्लें. आनी तुमची पेंट खोमीश घालून आपूण बाबा जावपाक जाय आशिल्लें."

'कित्याक रे?' हावें म्हळें. ताचेर शेखर म्हण्टा, 'तशें जाल्लें जाल्यार देवबाप्पाक पायां पडचो सोडून हांव तुमकांच

पायां पडटलो आशिल्लों. आनी रामाच्या मांडयेर सीता बसल्या न्हंय तसो तुमचे मांडयेर हांवूच येवन बसतलों आशिल्लों. देवाऱ्यांत देवबाप्पा तशें कित्याक करीना बाबा?'

१८-९-१९६८.

## फायदो आनी लुकसाण

आयज दनपारां हांव कोणाकडेन तरी उलयत अशिल्लों. म्हज्या उलोवपांत दोन चार खेप 'फायदो' हें उतर येवन गेलां जातलें.

शेखरु रातीचो न्हिदताना म्हजेसरीं न्हिदता. आयज न्हिदपाक आयलो तसो बराबर ताचो म्हाका पयलोच प्रस्न. 'फायदो' म्हणचे कितें बाबा? फायदो कित्याक म्हण्टात? ताच्या प्रस्नाचो नीट अर्थ न कळिल्ल्यान हावें म्हळें, 'कसलो फायदो रे, खंय आयकलें हें उतर तुवें? कोणाकडल्यान?'
शेखर : दोनपारां तूमीच त्या मनशाकडेन उलयनासले बाबा, आनी ताका परतोय परतोय फायदो, फायदो म्हुण कितें तरी सांग नासले? तो फायदो म्हणजे कितें?

आतां म्हज्या ध्यानांत आयलें. खऱ्यानीच हांव दनपारां म्हज्या मित्राकडेन कसल्यो तरी फायद्याच्यो गजाली उलैतालों खरो. हांवें शेखराक एक चाकलेट दित म्हळें, 'शेखर तुजेकडेन कितल्यो चाकलेटी आसात?'
शेखर : एकूच न्हय बाबा? ही तुमी आतां दिल्या ती?

हांव : एक मरे? आतां ही आनीक एक घे. कितल्यो जाल्यो सांग ?

शेखर : दोन. जाल्यो.

हांव : शेखराकडेन एक चाकलेट आशिल्ली. आतां दोन जाल्यो म्हणचे शेखराचो फायदो जालो. ह्याका फायदो म्हण्टात. आनी शेखराकडेन दोन चाकलेटी आसात तातुंतली एक सांडली, ना जाल्यार कोणेंय झोमून घेवन खाली जाल्यार, शेखराचें लुकसाण जालें.'

शेखर : कितें? परतेंय सांगा. फायदो आनी?

हांव : लुकसाण, लु-क-सा-ण.

शेखर : फायदो आनी लुकसाण· फायदो आनी लुकसाण. आरेच्या कितलें सोपे न्हय बाबा? एकाच्यो दोन चाकलेटी जाल्यो. धा चाकलेटी जाल्यो. एकशें शंबर जाल्यो की फायदो जालो. चड जालें कीं फायदो. आरेच्या ह्याका फायदो म्हण्टात?

अशें म्हणून शेखर हळुच म्हाका म्हणपाक लागलो, 'तुमचेकडेन आनीक कितल्यो चाकलेटी आसात? त्यो सगळ्यो म्हाका दियात.' ह्यावें म्हजेकडल्यो पांचूय ताका दिवन उडयल्यो. तेन्ना तांतल्यो दोन परत्योय, म्हजे हातार दवरीत म्हणपाक लागलो, आता तुमचोय फायदो. जालो की ना बाबा? अशें म्हणून तो मोटयान हांसत सुटलो. आपले कडल्यो सगल्यो चाकलेटी शेजारच्या भुरग्यांक वांटीत सुटलो.

केन्नाच आयकूंक नाशिल्ल्या एक नव्या उतराचो अर्थ कळिल्ल्यान ताका इतली खोस जाल्ली.

आपले आवयक, शेजाऱ्यांक, नुस्तेकान्नींक, भाजीवाल्यांक, वावराडयांक ·· मेळत ताका आठ दीस तो फायदो आनी लुकसाण ह्या उतराची रोसाळ काणी सांगत सुटिल्लो.

२६-११-१९६८.

## भिकणासारकी न्हीद

आयज सकाळीं खूप शीं खातालें. आठ वरां जायत आयलीं तरी माथ्यावेल्यान कामरूण घेवन न्हिदेसवंग करून शेखर पडिल्लो. हूं ना चूं ना. उठपाचें चिन्ह ना.

म्हाका दिसलें तो गर्द न्हिदेंत आसूं ये. देखून ताका मस्कऱ्यांनी कुतुल्यो करीत जागयत आनी माथ्यावेलें कामरूण कुशीक सारीत हांवे म्हळें, अशें माथ्यावेल्यान कामरूण घेवंचें न्हय बाबा. घुस्मटूंक जायत. आनी कसो न्हिदला रे तूं ? हातापायांची सामकी चुमडी करून ?

शेखर जागाच आशिल्लो. बारीक आनी मस्तेखोर नदरेन म्हजेकडेन पळेयत म्हणटा, हांव भिकुणासारको न्हिदलां बाबा. भिकूण जसो गादयेंत लिपता न्हय, तसो. आनी परतेंय माथ्यावेल्यान कामरूण ओडून घेता.

७-१-१९६९

## चिमटीभर म्हजोच

हांव शेखराक प्रस्न करतां, बाबू, तूं कोणाचो रे बाळा ?शेखर जाप दिता : आईचो, बाबांचो आनी बाबूचो. तें जालें. पुण सगळ्यांपरस चड लाडको कोणाचो तें सांग. शेखर : तुमचो.

हांव : म्हजो ? कित्याक रे बाबा ?
शेखर : तुमी सगळ्यांपरस व्हड म्हणून.
हांव : आनी तूं तुजोयसुद्दां ? आपलोय बी ?
शेखर : हय. इल्लोसो.
हांव : म्हजो कितलो ?
शेखर : घरा इतलो.
हांव : आईचो कितलो ?
शेखर : कुडी इतलो.
हांव : आनी बाबूचो कितलो रे ?
शेखर : सामको थोडो बाब. चिमटीभर

३१-५-१९६९.

## अशें कितें करतात तुमी बाबा ?

म्हज्या " रेवेंतलीं पावलां " ह्या कविता झेल्यांत, मन जडावाचें केलें अशी एक कविता आसा. ती कविता निर्मण जाताली तो दीस.

कविता अर्दकुटी बरोवन जाल्ली. आनी ती सुदारपा-निमतान कवितेंतल्यो ह्यो वळी हांव घोळयत, गुणगुणत बशिल्लों :

हात मातयेचे, मातयेंत
म्हूर्त घडतां घडना
हात मातयेचे, मातयेंत
म्हूर्त घडतां घडना......

कुडीत हांव जमखाणार बसलां, चोशींल्यान वचत थंय म्हजे भोंवतणी पुस्तकांच्यो फायली ...... पेपर ......

नेमाळीं हांची रास पडल्या. मुखार बरोवपाचे कागद. आनी हातांत पेन घेवन आसनमांडी घातिल्या थाटांत बसून हांव गुणगुणटां. बायल रानचे कुडींत काम करता. शेखर म्हजेसरींच पुण एका कुशीक खेळटा. म्हजो समज तो खेळपांत गुल्ल आसा. म्हजेकडेन फाट करुन बशिल्ले अवस्तेंत. पुण ताचे कान म्हजेकडेन लागिल्ले आसू ये. म्हजी नदर चुकोवन मदीं मदीं हांव कितें करतां तेंय बारकासाणीन तो पळेतालो आसूंये. मदींच म्हाका म्हण-पाक लागलो, "बाबा, येदोळपसून हात मातयेचे मातयेंत, मातयेंचे मातयेंत, अशें एकसारकें तुमी म्हण्टात तें कित्याक ? हात मातयेचे जाल्यार बेझिनांत तुमकां धूवन येवपाक जायना"?

हांव : ( हांसत ) ना रे, ते धुवपाक येनात.
शेखर : ( म्हजेकडेन येवन गळयांत हात घालून म्हजी पापी घेयत ) कितें सांगता बाबा, इतलें लागीं बेझीन आसा, आनी हात धुवपाक येना. चला, हांव धुतां तुमचे हात शाबू लावन. उठात.

अशें म्हणून तो म्हाका उरणें बळ हाडून उठोबपाक लागलो. हावें म्हळें : ना रे तशें ते धुवपाक येनात बाळा. तुका कळचें ना. तूं मात्सो भायर वचून खेळ पळोवया. कविता ऐन रंगांत येवंच्या वेळार शेखराच्या ह्या आड-हट्टान मात्तसो बेजारुनूच हावें ताका समजायलो.

शेखर : बाबा तुमी आतां फटीय मारूंक शिकले हां. ( म्हज्या हातांकडेन बारीकसाणीन पळेत शेखर रागान म्हणपाक लागलो ) वासंतीक, ( वावराडेक ) सद्दां तुमी फट उलयल्यार देव पाप करता म्हुण सांगतात आनी तुमीच फट उलयतात ? तुमच्या हातांक खंय माती लागल्या, ...यात पळोवया ?

हांव : आरे हांव कवितेंत म्हणटां, हात मातयेचे, मातयेंत. खरेंपणी न्हय. तशी म्हज्या हातांक माती लागूंक ना. ते नितळ आसात.

शेखर : असली कसली तर तुमची कविता ? फटींची ? फटी केन्ना मारूं नये अश्यो कविता म्हाका तुमी शिकयतात. आनी तुमीच हात नितळ आसताना ते मातयेंत भल्या अश्यो फटींच्यो कविता बरयतात ? हांव तुमच्यो कविता केन्नाच वाचचों ना, व्हडलो जालो की!

३–६–१९६९.

## रडवें मळब

आयच्यान पावस पडपाक लागिल्लो. पयलेच खेप मळबांत कुपांचे सांवट पडिल्लें. सूर्य कुपांआड खंय तरी भितर लिपून बशिल्लो. एकार एक पावसाच्यो दडको येताल्यो. वावझडूय येताली. शेखरान अशे तरेचें मळब केन्ना पळेलें ना. सुतकी कशें. आनी हें पावसाचें आगळें रूपूय बी. बरोच वेळ गॅलरींत उबो रावून एकाग्र चित्तान तो गम्मत

पळेतालो. भितर येवन आवयक म्हणपाक लागलो, 'आई,' पळय तरी मळबाचें तोंड भायर येवन. पळेलां तुवें ? सामकें काळें काळें किट्ट जालां. कशें गे तें अशें आयज इतलें रडवें कशें ?'

११-६-१९६९.

## दोळे दिपोवपी सुंदरताय

शेखर आयच्यान के. जी. शाळेंत वचपाक लागला. पयल्याच दिसा शाळेंतल्यान घरा आयलो तसो आपले आवयक म्हण्टा, 'आई गे, आमचे बाईचो माणकुलो बाबू आसा न्हय तो कितलो गोरो आसा तुका खबर आसा ? गोरो गोरो पिठ्ठ. सामको गोरो पान. आनी सुंदर सुंदर सुंदर. जाणा तूं ? ताका पळेल्यार तुका न्हीद येतली.'

सुंदर सोबीत वस्त पळेली की न्हिद येता असो एक नवोच वाक्प्रयोग तो हालींच करीत आसता. कित्याक म्हुण कोण जाणा. झगझगीत उजवाड .... दिव्याचो वा सूर्याचो पळेलो कीं दोळे दिपावतात आनी आपशींच धांपतात, ताका लागून आसुंयें घडचें.

१९-६-१९६९

## लायटीच्या दिव्याचो उमो

वण्टीक लायिल्ल्या आमच्या कुडींतल्या (लायटीच्या)

दिव्याचें टांप वांकडें जाल्लें. आनी ताकालागून भितल्ल्या बल्बाक तेंकिल्लें.

कदेलार उबो रावून आनी आपली तकली बागोवन टांपाविसल्यान पळेत शेखर बरो वेळ उबो आसाशें पळोवन हावें ताका विचाल्लें, कितें रे शेखर, इतलें वांकून वांकून कितें पळेता ? दिव्याक कितें जालां काय कितें रे ?

शेखर : ना बाबा, पळेयात, तरी बल्ब शेंडीचो कसो उमो घेता. तुमी म्हजो घेतात तसो. कितलो वेळ जालो उमो घेयत रावला.

२१-६-६९.

## पिश्यांक दिल्लीक धाडात

एक दीस आमी सगळीजाणा दोनपारचीं मोटारींतल्यान खंयतरी वेतालीं. रस्त्यार कसल्याय तरी कारणाकलागुन म्हाका मोटार थारोवंची पडली. मोटारींतूच बसून आमी आसात. रस्त्याचेर आमचेफुडें पन्नाशेक फुटांचेर एक ट्रक उबो आसा. सगळो अरूंद रस्तो आडावन. थोडचा वेळान ड्रायव्हरान आपलो ट्रक मात्सो फुडें काडलो आनी उबो केलो. तो थारिल्लो पळोवन कुशीकच्यान मोटार फुडें काडची असो विचार करून हावें हॉर्न वाजोवन ट्रक ड्रायव्हराक सुचोवणी दिली. आनी सवकासायेन फुडें सरता मात... त्या ट्रक ड्रायव्हरचे तकलेंत फट्ट करून कितें आयलें कोणाक खबर म्हाका कसलीच सुलूस दिनासताना ट्रक जोरांत फाटीं घेवपाक लागलो. म्हाका कितें करचें

तेंव सुचना. म्हजी गाडी कुशीक घेतली म्हळ्यार मातपासून जागो ना. हांवें आकांतान ब्रेक माल्लो आनी व्हडा व्हडान हॉर्न वाजयत रावलों. देवाचेच उपकार म्हुण हॉर्नाचो आवाज ट्रक ड्रायव्हराच्या तकलेंत रिगलो. आनी आमचे मोटारीक अपघात जातां जातां चुकलो. ट्रक एका फुटाच्या अंतरार येवन म्हण्टात तसो थाल्लो. तरी पुण हांवें आकांतान ब्रेक ओडिल्ल्यान म्हज्या शीटा फाटीं उबो आशिल्ल्या शेखराचें तोंड शीटाचेर आपटून ताच्या दातांतल्यान रगत येवपाक लागिल्लें. तसो शेखर चवताळून आनी रागान म्हाका म्हण्टा, हे लोक सगळे पिशे जाल्यात ना बाबा, सामकेच पिशे. आपल्याक जाय तशी मोटार फाटीं काडटाना आरशांत पळोवचेंवी तांकां कांय कळना. आनी पोलीसूय तांकां विचारिना.

हांव : हय रे बाळा, पुण कितें करतलो हचा पिश्यांक ? शेखराचो राग अजुनूय देंवूक नाशिल्लो. म्हणपाक लागलो, आमची मौटार चिड्डून उडयतलो आसलो न्हय तो बाबा? हां खूबूच पिशे जाल्यात न्हय ?

हांव : जाल्यात खरे. पुण आमी कितें करुया ?

शेखर : बांदोलकाकांक सांगून हांकां सगळयांक धावडावन दिवपाक जाय.

हांव : खंय दिवपाचे तांकां धावडावन ?

शेखर : मुंबयक ना जाल्यार दिल्लीक. थंय व्हडल्यो व्हडल्यो बसी आसात न्हय बाबा ?

हांव : हय. माळयांच्यो बसी. तुवें पळोवंक ना ?

शेखर : थंयच बरें तांकां. आमचेकडेन मस्ती करतात. तशी केल्यार उडोंवनी चिड्डून त्या व्हडल्या बसींनी.

६-९-१९६९.

## इंडियन पोट

आयज सकाळीं च्या बराबर खावपाक शेखराक ताच्या आवयन बशिभर दुदाचे फोव दिल्ले. आनी कितलोसो वेळ तो ते खायत बशिल्लो.

बरोच वेळ जालो तरी ते सोपनाशें पळोवन शेखर आवयक म्हण्टा, "आई कितलो वेळ जालो, तुवें दिल्लो हो खाऊ हांव खायत बसलां. पुण खाऊय सोपना आनी पोटूय भरना." (फोव खावपाचो शेखराचो हो पयलोच प्रसंग) "कसलो गे हो खाऊ ? हाका कितें म्हण्टात ?"

अर्दे एक वर लागल्या उपरांत एकदाचे ताणें बशीभर फोव सोंपयले. तसो शेखर म्हण्टा, "तुजो खाऊ सोंपलो पुण म्हजें पोट मात पसून भरुंक ना आई.

ताचेर आवयन हांसत ताका विचारल्लें, "असलें कसलें रे बाबा तुजें पोट ?
शेखर : " इंडियन "

(शेजारच्या भुरग्यांकडल्यान इंडियन मोटारी वायट, फॉरेन मोटारी बऱ्यो, इंडियन वस्ती वायट. फॉरेन तितल्यो बऱ्यो अशें कितें कितें नवेंच ताच्या कानार पडपाक लागलां. ताचो हो प्रताप)

६-९-१९६९.

# वानर केन्ना मरनात

आमी दनपारची च्या सोपोवन तिगांय जाणां बसल्यांत. हांव कितेंय तरी वाचतां. त्यावेळार शेखर आनी ताची आवय हांचे मजगतीं चलिल्लो हो संवाद.

शेखर : आई, सगळीं जाणां म्हातारीं जातात गे?

शेखराची आवय : हय. जातात. पुण तुका कित्याक जाय रे ह्यो खबरी?

शेखर : सांग तरी. जातात मगे म्हातारीं? आनी म्हातारीं जालीं कीं मागीर देवागेर वेतात? ही नवी माहिती ताणें आपल्या बराबरच्या सवंगड्यांकडल्यान पयलेच खेप मेळयल्ली आसता.

आवय : हय. पुण हें सगळें तुका सांगलें कोणें?

शेखर : तर मागीर आमीसुद्धां सगलीं जाणां म्हातारीं जातलीं? तूं, बाबा, आनी हांवूय बी?

आवय : हय.

शेखर : आनी सगलीं जाणां देवागेर वेतलीं?

आवय : थुमेकाल. भुरग्यानीं अशें कित्यायकितेंय उलोंवचें न्हय रे बाळा. (अशें म्हणून तिणें ताका पोटाकडेन ओडलो. आनी ताचे पटापट उमे घेतले)

शेखर : आमी आनी सगलीं जाणां, सगले लोक आनी सगलीं मनशां देवागेर वेतकूच ह्या गावांत उरतलो कोण तर? (अशेंम्हणून कसली तरी याद केल्ल्यावरी करीत तो

फुडें म्हणपाक लागलो.) वानर मात उरतले ना गे आई? ते केन्ना म्हातारेय जायनात. आनी देवबाप्पागेरूय वचनात.

●

म्हयनोभर शेखर आजोळा, वेंगुल्लयां आशिल्लो. ताणें थंय खूब वानर पळेल्ले. ल्हान मोटे. पुण सगळे झाडांवेल्यान टुण्टुण् उड्यो मारपी. ताचे कल्पनेप्रमाण तातूंत म्हातारे वानर आसुं नज. म्हातारे आसल्यार झाडांवेल्यान ते उडयो कशे मारतले? म्हाताऱ्या मनशांक तर सारकें चलपाक लेगीत जमना. हाचेवेल्यान ताणें आपले आपुणुच अशी कल्पना करुन घेतिल्ली को, वानरांची जात म्हातारी जायना. आनी जीं केन्ना म्हातारींच जायनात, तीं मरपाचो अर्थांत प्रस्नूच अुप्रासना.

२६-१०-१९६९.

## लांकडाच्या पिठाची भाकरी

आयज शेखराची आई ताका घेवन आपले मैत्रिणीगेर गेल्ली. पालेकार मामीगेर. परथी घरा आयली तेन्ना उशीर जाल्लो. म्हाका म्हणपाक लागली, आतां आनीक शीत बी करपाक बसना. उशीर जातलो जेवणाक. तूमकां भाकऱ्यो आनी चटणी केल्यार जायत न्हय?
हांवें म्हळें : बऱ्यो.

शेखर आवयक हळूच म्हण्टा, कुंडेकुस्कुराच्या बाबान सांगलेल्यो तसल्यो (लांकडाच्या) पिठाच्यो भ
करूं नाका गे आई.

२४-१२-१९६९.

## एक नवो सोद

कालूच मडगावां पार्वतीबाय चौगुले कॉलेजचें गॅदरींग आशिल्लें. आनी थंय सम्मेलनाचो अध्यक्ष ह्या नात्यान म्हाका एक हार आनी सौ. सुषमाक प्लास्टिकच्या नक्षीदार फुलांचो झेलो भेट म्हणून मेळिल्लो. हो झेलो शेखराक खुबूच मानोवलो आनी पळोवन एक-सुंदर कल्पनाय सुचली धावत म्हजेसरीं येत म्हाका म्हणपाक लागलो, कितलो सोबीत आसा न्हय हो फुलांचो झेलो बाबा? आमी तो असोच एके कुंडेंत माती घालून रोपूंया. ताका सद्दां उदक घालुंया. खूप दिसांनी तो मोटो जावंचो ना? फुलां लेगीत मोटीं जायत रावचीं ना! ... तशें केल्यार?

१४-२-१९७०.

## शेखराची प्रार्थना —२

देवबाप्पा, तूं आमकां एक सुंदलशें घर दी. फुलझाडां लावपाक व्हड जागो दी. आईक म्हातारी करुं नाका. बाबांक म्हातारो करुं नाका. बाबांक दोन मोटार गॅरेजी दी

दोन व्हडल्यो फॉरेन मोटारी दी. बाबांक लॉटरींत दोन व्हडलीं बक्षिसां दी. आईक खूप भांगर दी. बाबूक खूप शिकय. मोटो कर. राजा कर. आनी बाबा कर. बाबाक बरो कर. आईक बरो कर. आईचेर, बाबाचेर आनी बाबूचेर रागार जांव नाका. आमी तुका विसरचे ना. तूं आमकां विसरूं नाका. बाबाक धा लाख रुपया बेगीन दी. आनी बरो कर.

२४-२-१९७०.

## लाखांनी वारो

आमी तेन्ना पणजे आल्तिन्यार रावतालीं. आनी आमच्या ब्लॉकाच्चें अस्तेंतेकडलें जनेल सदांच बंद आसतालें.

एक दीस वासंतीकडल्यान शेखरान तें मुद्दाम उकतें करुन घेतलें. आमचे असवडीं आनी जनेलाकडेनूच स्टूल दवरून, ताचेर उबो रावून तो बरोच वेळ पोटभर वारो खायत रावलो.

रातीचो न्हिदपावेळार हांव जेन्ना जनेल बंद करपाक लागलों तसो शेखर म्हाका म्हण्टा, "ह्या जनेलांतल्यान वारो कितलो येता तुमकां खबर आसा बाबा? सामको लाखानी, कोटींनी. बंद करूं नाका तें. उकतेंच दवरात. मागीर पंखो लेगीत लाबपाची गरज ना."

आनी खरेंच.जनेल आमी उकतें दवरपाक लागिल्ल्या-पासून, समुद्राकडल्यान येवन आपल्या हजार थंड शीतळ

हातांनीं आमका सुख दिवपाक आशेल्ल्या वाऱ्याक जनेल बंद दवरून कुडींत भितर सरपाक आडमेळें हाडिल्ल्या कारणान .....केद्या व्हड आनंदाक आमी अंतरिल्लीं म्हणपाची म्हाका पयलेच खेप जाणविकाय जाली. शेखरा कारणान.

२–३–१९७०.

## पंडिताची शेंडी

चंद्रशेखराक अजून स वर्सां पुरीं जावंक नात. पुण कांय आपलेपरसय व्हड भुरग्यांच्यो मुंजी जाल्ल्यो पळेल्यापासून, "बाबा, तुमी म्हजी मूंज केन्ना करतले,...केन्ना करतले?" अशें टुणटुणे मदींमदीं जायतेदिस जाले म्हजेकडेन तो लायत आसा.

आयज अवचीत आयलो आनी म्हाका म्हणपाक लागलो:"म्हजे मुंजीक तुमी म्हाका शेंडी दवरतले बाबा?"

हांव–कोणे सांगलें रे तुका?

शेखरः राजूदादा (म्हजो मामेभाव) म्हण्टालो तूमी सांगला म्हुण. खरें?

हांवः मूज करताना सगळ्यांकूच शेंडी दवरतात न्हय रे शेखर. तशी ती दवरचीच पडटा. तुजी मूंज करपाक जाय जाल्यार तुकाय दवरची पडटली.

शेखर : लोक कितें करतात तें करूं. म्हाका मूज जाय पुण शेंडी नाका. शेंडयेशिवाय मूज जायना बाबा?

हांवें हांसत हांसत जाप दिली : शे शे, शेंडयेशिवाय कशी जातली? मुजींत शेंडी तर मुख्य.

शेखर : तुमी भटाक सांगात तशें. विचारात ताका, शेंडी करीनासताना मूज करूक जाता काय.

हांव : आनी ताणें ना म्हळें जाल्यार?

शेखर : ना म्हणल्यार म्हजी मुजूच करूं नाकात.

हांव : बरें आं तशें करूं या. भटाक सांगून पळोवया. आनी ताणें आयकलेंच ना जाल्यार मुजूच करूं या नाका. मागीर जालें.

शेखर : तशें जाल्यार म्हजें लग्न कशें जातलें तर?

हांव : तातूंत कितें, मूज केल्याशिवाय एकदम लग्नूच करचें.

शेखर : पुण आई सांगता मूज करीना जाल्यार खंय, लग्नूय करूंक जायना. मागीर कितें करचें?

हांव : अशें जाल्यार मागीर लग्नूय करचें न्हय. तसोच दवरचो तुका ब्रम्हचारी. कितें जाता लग्न करिनासताना रावल्यार? जायते जाण रावतात लग्नाशिवाय. व्हड व्हड मनीस सुद्दां. तुवें वाचूंक ना रे स्वामी विवेकानंदान लग्न करूंक नासलें तें?

शेखर : तशें म्हाका उपकारचें ना बाबा. म्हाका लग्न जायूच. बायल नाका तर म्हाका खेळपाक? मामू करूंक? म्हज्या भुरग्यांक धरूंक? म्हजेबराबर मोटारींत फिरूंक वचूंक.... आई तुमचेबराबर वेता तशी?

हांव : बायल तर जाय. लग्नूय जाय. आनी शेंडी मात दवरूंक नाका. सगळें कशें जातलें तर? पुण म्हाका एक

ांग शेखर, तूं शेंडयेचेर इतलो कोंत्र सो कित्याक रे? कितें जाता शेंडी दवल्ल्यार? भट आनी आई सांगता ाल्यार मूज करताना ती दवरची. आनी मुंज जाली काय ोडयाच दिसांनीं काडून उडोवंची. तशें केल्यार जायना?

ोखर : नाका बाबा, म्हाका शेंडी मुळींच आवडना.

ांव : आवडना तें जालें पुण कित्याखातीर आवडना तें तरी सांग. शेंडयेचेर तुजो इतलो राग कित्याक?

ोखर : तें हांव तुमकां सांगचों ना. म्हाका शेंडी नाका म्हणचे नाका.

ांव : पुण न आवडपाक शेंडी म्हणचे कितें तें तूं जाणा तरी? खंय पळेल्या तुवें शेंडी. कोणाची पळेल्या? आनी तुका ी इतली न आवडपाचें कारण कितें तें तरी म्हाका कळुंदी.

ोखर : हावें पळोवंक ना? आमच्या भाटांतलो तो देमू, शिवजी गावडो येता..... तांकां ना शेंडी? माजराची शेपडी कशी माथ्याक दसयल्ली आसता ती?

ांव : ती कितें इतली वायट दिसता रे पळोवपाक? म्हाका ाबा सुंदर दिसता.

ोखर: वायट तितली दिसना बाबा. पुण शेंडी दवल्ल्यार म्हाका शाळेंतलीं भुरगीं चाळयतलीं न्हय बाबा. म्हज्या ुस्तकांतली काणी तुमी वाचूंक ना? मराठी पुस्तकांतली? या काणयेंतल्या पंडिताक शेंडी आसा. आनी काणयेंत "पंडित पंडित.. तुझी अक्कल शेंडींत." अशें बरयलां न्हय. वाचून हावें शेंडी दवरिनासतानाच क्लासींतलीं सगळीं रगीं, 'पंडित पंडित... शेखर पंडित.. तुजी अक्कल शेंडीत'

अशें म्हणून म्हाका चाळयतात. हांव केन्नाच शेंडी दवरचों ना बाबा. पुण लग्न मात करतलोंच. पळोवया, लग्न केल्यार भट कितें करतलो तें?

१२–३–१९७०

## खणखणीत शंभर रुपया पेन्सिलींक तोंकां काडपाक

रातीचो आठांचो सुमार. चंद्रशेखराक अकस्मात, कशी कोणाक खबर, चित्रां काडपाची हुक्की आयली.

म्हजेकडल्यान ताणें दोन चार कोरीं कागदां मागून घेतलीं. रंगा–पेन्सिलीची कास काडली आनी बसलो चित्रां काडपाक. पुण पळे जाल्यार एकाय तोंक म्हुण ना. कितें करपाचें?

हांव पेपर वाचपांत गुल्ल. अशा वेळार म्हाका त्रास दिल्यार राग येता हें तो जाणा. आवय रांदप करपांत बांदिल्ली. सांगचें कोणाक? सरळ उठलो आनी रंगा-पेन्सिलीं कास घेवन गेलो शेजारच्या पालेकारमामीकडेन. बिल्डिगेंत ती एकलीच कितें ते ताचे लाड करपी. ताणें म्हणिल्लें उतर जिखून घेवपी.

शेखरान मामीक विचाल्लें, "पालेकार मामी, दिता गे म्हाका मात्शीं पेन्सिलींक तोंकां काडून?" खरें पळेल्यार पालेकार मामीय जेवण करपांत गुल्ल आशिल्ली. आनी

शेखराच्यो पेन्सिली तरी कितें एक–दोन? बराबर दोन दुजी ती सामकी भियेलीच. हेर कोणाकूय जाल्यार ती सरळ तापोवन काडपाची. पुण शेखर तिचो लाडको. ना म्हणप तिच्या जिवार आयलें. ताका समजायत तिणे म्हळें,

"शेखर म्हाका मामू करपाक जाय बाळा. आतां मामा घरा येवपाचे जाले. आल्या बराबर तांकां वाडपाक ज.य."

शेखरान काकुळटेक येवन म्हळें, मामी म्हाका चित्रां काडपाक जाय. दिना मगे तूं तोंकां काडून? मामीन प्रस्न केलो, आतांच जाय आशिल्लीं रे? फाल्यां दिल्यार जायना? सक्काळीं फुडें दवरतां काडून, जायत? शेखरान रागान जाप दिली, ना आतांच जाय. पालेकार मामीय आपलें आय-कनाशे पळोंवन तो सामको रडपाकडेन पाविल्लो.

मामीन म्हळें बरें आतांच जाय मरे, दितां ह.र. मामा उपाशीं उल्यार उरूं. मामू करचो सोडून पेन्सिलींक तोंकांच काडीत बसतां. पुण तुवें तुज्या बाबांकडल्यान म्हाका शंबर रूपया हाडून दिवचे पडटले. दिता?

शेखर : कितले, शंभर? आतां दितां हाडून. अशें पालेकार मामींक सांगून शेखर तुरतुरीत तसोच घरांत आयलो. ताका शंभर रूपया, शंभर पैशे आनी चार आण्याची मोड हांतलें अंतर नीटसें कळना. आमी थोडो खुर्दो घालून एक पोन्नें पैशां पाकोट ताका दिलां. तातूंत म्हजेकडल्यान वा आवय-कडल्यान केन्नाय थोडीशी मोड घेवन तो दवरता. पाकीट मदीं मदीं खुळखुळायत बसता.... केन्नाय तरी एकदां अशेच ताणे म्हाका विचारिल्लें, सगळयांत चड पैशे म्हणचे कितें

बाबा? आनी हावेंय बी अब्ज, खर्व, परार्ध बी सांगल्यार ताका सारकें समजुंचेंय ना किंवा म्हणपाकूय येंवचें ना देखून जाप दिल्ली. सगळयांत चड पैशे म्हणचे कोटी रे. केन्नाय आपले पैशे मेजीन दिसले की पैशा–पाकीट काडून शेखर तातुंतले पैशे मेजून दवरीत आसता. एक, दोन, तीन, पंदला, बत्तेचाळीस, एकशें शंबर, पंचातल, पांचशें शंबल, कोटी. ताचो सगळो हिशेब कोटींनी. हजार लाख ताच्या हिशेबांतूच ना.

घरांत आयलो. कपाटांतलें पैशां–पाकीट घेवन पर–तोय मामीकडेन गेलो. आनी तिच्या फुडयांत सगळो खुर्दो ओतीत तिका म्हणपाक लागलो, "हे घे शंभर रूपया. आनी दी पळोवया आतां बेग्गीन तोंकां काडून."

पालेकार मामीन ताका तिडयत म्हळें, हे शंबर रुपया रे शेखर? कोणे सांगलें तुका? आरे हे पुरायेन पंचवीस पैशे लेगीत जायनात. हे पावनात. बाबाकडेन वच आनी शंबर रुपयांची एक नोट घेवन यो. पांचवी नोट.

खरें पळेल्यार शेखराक मामींचो खूब राग आयिल्लो. पैशांपाकीट तशेंच तिचेकडेन सांडून म्हजेकडेन आयलो. आनी भियेभियेत म्हाका विचारपाक लागलो, 'बाबा, तुमचेकडेन शंबर रुपया आसात? आसात जाल्यार म्हाका दियात पळोवया बेगीन.'

हांव : शंबर रुपयाशे कित्याक रे बाबा? आनी तेय बी इतले ताकतिकेन?

शेखर : ती पालेकारमामी मागता न्हय ? पेन्सिलींक तोंकां काडून दिवंचेपासत ! तिका दिवपाक जाय.

शखराची मस्करी करपा हेतान हांवें म्हळें : म्हजेकडेन मोडचे ना रे बाबा. आईकडेन आसतले पळे. तिचेचकडल्यान घे मागून.

शेखर : ( आवयकडेन वचून तिका ) आई तुजेकडेन तरी आसल्यार दी गे म्हाका शंबर रुपया. आसात?

शेखराची आवय : आवयस, शंबर रुपया ! कित्याक रे शेखर इतले पैशे? येदोसो भुरगो तूं !

शेखर : आसात जाल्यार बेगीन दी पळोवया. त्या पालेकार मामीक दिवपाक जाय. तूं मामू करता. आनी तेवटेन बाबा पेपर वाचता. पालेकार मामीकडल्यान पेन्सिलींक तोंकां काडून घेवपाचीं आसात म्हाका. आनी मागीर चित्रां काडपाचीं. पालेकारमामीक सांगल्यार म्हण्टा शंबर रूपया घेवन यो. तिका व्हरून दितां एकदा. ती कशीच आयकना. बाबान ना म्हळे. आतां तूंय दिना जाल्यार हांव तुमचेकडेन कोण्णाकडेन उलोवंचो ना. केन्नाच.

शेखर सामको रडूंक आयिल्लो. आवयन ताका पोटाकडेन धल्लो. हांवेंय पेपर उडयले आनी रांदचे कुडींत वचून ताचे पापा घेतले. आनी आमी दोगांयनी अर्दवर बसून ताच्या सगल्या रंगांच्या पेन्सिलींक तोंकां काडून दिलीं.

तेन्नाच शेखराच्या, रागान फुगिल्ल्या पोल्यार, परत्योय खोश्शेच्यो रंगरंगी सायो पर्जळपाक लागल्यो.

५-४-१९७०.

## मोटार फास्ट कित्याक धांवता !

आयज आमची मोटार मोडिल्ली. टॅक्सी रिक्षांचो संप. ताकालागून मिरामार वेळेर वचून येयमेरेन शेखराक म्हजेबरोबर दोन तीन मैल चलचें पडलें. घरा परतो येतना बस मेळना. शेखराच्यान तर चलप जायना. पायांत गुळे आयले. मोठी फजेत जाली आमची दोगांयची. शेखरान म्हळें, "बाबा आमी थोडी मसमीभिकणां घेवन त्या बागेंत बसून खावंया. आनी मागीर हळु हळू चलत घरा वचूया. म्हाका चलुंकूच येना न्हय. पळेयात तरी हांव चल्ल्यारुय पांयूच चलनात." तो सांगतालो तें खरें आशिल्लें. पुण करतलो कितें? कोणूय लिफ्ट दिता काय पळोवपाक दोन चार प्रायव्हेट मोटारींक हात दाखोवन पळेलें. कोणूच थांबना. हे वटेन शेखर तर कासावीस जाल्लो. वाटेंत एक गाडो मेळळो. आमी भिकणां घेतलीं. तीं खायत कांपाला वेल्ये बागेंत अर्दवर काडलें. थोडे चल्ले. परतेय फेरीबोटी-कडेन मात्सो थांब, म्युनिसीपालटी गार्डनांत बस. अशें करीत करीत चलत रातीच्या साडेनव वरांचेर घरा पावले.

शेखराक सामकें नज जाल्लें. जेवलो तोच म्हण-पाक लागलो.'बाबा न्हिदपाक वचुया'.

कुशीक घेवन न्हिदिल्लेकडेन ताका म्हळें, "बाबूचे पांय सामके वळ्ळे मरे आयज? मोटारींतल्यात भुर्रकरून आमी पैस पैस वेतात तेन्ना आमकां कांय कळना." ताचेर शेखर म्हण्टा, "पुण मोटारीक त्रास जायना बाबा? आमचे

पांय दुखतात तशेंच मोटारीच्या चाकांकूय दुखतलेंच. कितली पैस धांवता मोटार सद्दां? तशें धांवप म्हणजे मस्करी न्हय, ना बाबा? म्हाका दिसता आपल्या चाकांक दुखूँक जायना म्हणुनूच मोटार फास्ट वेता. आमचेवरी ती सवकास चलिल्ली जाल्यार, आयज म्हाका चलपाकूच येना जालें तशें जावन मोटार चलपाचीच बंद पडची नासली? मोटारीसुद्दां शाण्यो आसतात, ना बाबा?"

५-४-१९७०.

## म्हाका तुमीच जाय.

शेखर आनी हांव. दनपारचें जेवण सोंपोवन दोगूय न्हिद काडपाच्या हेतान हांतरुणार. आयज आयतार. आनी ताकालागून शेखराक सुटी.

हांव : शेखर, सगल्यापरस तुका कोण चड आवडटा रे?

शेखर : सगल्यांपरस चड आई. आईपरसूय चड तुमी.

हांव : आनी देवबाप्पा रे?

शेखर : देवबाप्पा आवडटा. पुण तो मळबांत आसा न्हय बाबा ? म्हणून तुमीच.

हांव : कित्याक रे?

शेखर : म्हाका चाकलेट कोण हाडटा तर? फिरुंक कोण व्हरता? मोटार कोण चलयता? कपडे कोण हाडटा? शाळेक कोण पावयता? पुक्कतां (पुस्तकां) कोण दिता? पोटाकडेन घेवन कोण न्हिदता ?

हांव : आनी सगल्यांपरस कोण चड सुंदर रे?

शेखर : बाबाच.

हांव : आनी गोरो?

शेखर : गोरो सुद्दा बाबाच..

हांव : सगल्यांपरस?

शेखर : हय, सगल्यांपरस.

हांव : शेखर. आतां मात तूं खऱ्यानींच फटी मारूंक लागलो आं.

शेखर : ना बाबा. अगदीं खऱ्यानीच.

हांव : हांव बरो म्हण्टा, तें बरें आसा. पुण हांव सुंदरूय आनी गोरोयबी म्हणटा तें मात सामकें फट. आई म्हजेपरस कितलीशी चड सुंदर. आनी गोरीय बी.

शेखर : कोण सांगता? म्हाका आईपरस तुमीच गोरे दिसता. सुंदर दिसता.

हांव : कित्याक रे? चाकलेट दिता, फिरूंक व्हरता, तुजे लाड करता म्हणुनूच मरे?

शेखर : आनी तुमी म्हाका मारिना तर केन्ना केन्नाय मस्ती केल्यार?

हांव : मारता म्हणून बरो? आई तुका केन्नाच हात लायना. ती म्हजेपरस बरी न्हय?

शेखर : न्हय. माल्ल्यारूय म्हाका तुमीच जाय.

हांव : आनी चाकलेट दिना, लाड करिना जाल्यारूय?

शेखर : तरीय तुमीच जाय.

हांव : हें पळे हांव तुका राजागेर व्हरतां ( गोंयच्या गव्हर्नराक शेखर राजा म्हण्टा. आनी शेखराचे कल्पनेप्रमाण

गोंयचो राजाय म्हजो मित्र.) आनी राजागेरूच दवरतां तुका थंय राजाचे व्हडले काळे मोटारींत बसपाक मेळटलें. फुडें तांबडो दिवो लायिल्ले मोटारींत बसून सगळ्याक भोंवपाक मेळटलें.

शेखर : सद्दां ?

हांव : सद्दां.

शेखर : राजागेर खूप चाकलेटी आसतात बाबा?

हांव : आसतात तर! आरमारी भरून भरून चाकलेटी. फरीज भरून आयस्क्रिमी. द्राक्षां, चिकू, केळीं, पेरां, जामाच्यो बोतली, पेडे, बदामी हालवो, जाय तें ! जाय जाय तितलें. वेता तूं ?

शेखर : राजागेर कुत्रे आसात बाबा? (शेखर कुत्र्याक थर्त भियेता. एक वेळ वाग चलत. पुण कुत्र्याचें ल्हान पोर लेगीत उपकारना.)

हांव : आरे कुत्रे घर राखपाक आसतात. राजाचें घर पोलीस राखतात. बांदोलकाकाचे घरावरी. तुका खबर ना रे ?

शेखर : राजा बरो बाबा ? भुरग्यांचेर रागार जायना ?

हांव : बरो तर! एकदम बरो. ताका भुरगीं खूब आवडटात.

शेखर : तागेर भुरगीं आसात खेळपाक? ल्हान म्हजेयेदीं?

हांव : जाय तितलीं. ताणें आपयल्यार एकशें शंबर भुरगीं तुजेबराबर खेळपाक येतलीं. जाय जाय ते तरेचो खेळ तुका खेळपाक मेळटलो. राजाची व्हडली फुलांची बाग आसा.

शेखर : म्हजेसारकी भुरग्यांची स्कुटर, जीप, सायकल आसा?

हांव : सगलें आसा. आनी एक एकूच न्हय. धा धा. वेता तूं तागेर? सांग.

शेखर : आनी तुमी खंय रावतले? आई?

हांव : आमी हांगाच.

शेखर : आनी रातीचो हांव कोणाच्या फुडयान न्हिदूं?

हांव : कोणाच्या म्हणचे राजाच्या. ताच्यो खाटो कितल्यो व्हड आसात. खाटांचेर मोव मोव मोव रबराच्यो गादयो आनी एका एका कुडींत चार चार पंखेय. चादरी सेदाच्यो.

शेखर : न्हिदताना तुमी घेतात तसो राजा म्हाका पोटा–कडेन घेतलो?

हांव : घेतलो तर! आरे राजा, सबावान एकदम बरो. म्हजेपरस सुद्दां बरो. ताका भुरगीं खूबूच आवडटात. आनी तो म्हजो मित्र. तूं तागेर एकदीस रावशीत जाल्यार परथो हांगा येवंचोच ना. आनी राणी ती तर ताचेहुनूय मायेस्त.

शेखर : राजा तुमचे इतलो सुंदर आसा? गोरो?

हांव : म्हजेपरसूय सुंदर, गोरो आनी बरो.

शेखर : तुमचेपरस चड गोरो राजा नाका म्हाका बाबा. चड सुंदरूय नाका आनी चड बरोय नाका. तो भुरग्यांक केन्नाच मारिना? मस्ती केल्यारसुद्दां मारिना?

हांव : केन्नाच मारिना. केन्नाच रागार लेगीत जायना.

शेखर : जायना? मागीर तसलो राजा कित्याक तो? म्हाका नाकाच. हांवें खूप मस्ती केल्यार तुमचेवरी रागार जाता, आनी मारताय बी तसलोच जाय.

ह्यांव : तशें जाल्यार सांगुया ताका रागार जा म्हुण. गरज पडल्यार मार म्हुण. मागीर मारतलो.

शेखर : पुण तो तुमचे सारको दिसना. हावें पेपरार ताचो फोटो पळेला.

ह्यांव : ताचो एक भाव आसा. तागेरूच रावता. तो सामको म्हजे भशेनूच दिसता हुबेहूब.

शेखर : कसो उलयता? इंग्लेजीत काय मराठी?

ह्यांव : शे शे. कोंकणी उलयता. म्हजेवरी.

शेखर : खऱ्यांनीच? सामकें खरें सांगतात तुमी?

ह्यांव : खरें म्हणचे, खऱ्यांनीच. मागीर रावता मरे तूं राजागेर? पळे. तुका जाय जाय तें, मागता मागता तें मेळटलें. विमानान फिरपाक लेगीत मेळटलें. रावता ?

शेखर : (अर्दो रडकुळो तर अर्दो रागीट अशे अवस्तेंत म्हजेकडेन पळेत) म्हाका कोण एक नाका पळोवया. राजा नाका आनी राणीय नाका. व्हडली मोटारूय नाका आनी कांयूच नाका. म्हाका तुमीच जाय. आईच जाय. तुमीच जाय... तुमीच जाय.

३-४-१९७०

## देवान नांव घालां ... पैशांचेर

रातीची धा वरां जाल्लीं आसात. आमी न्हिदपाचे तयारेंत आशिल्ले. शेखराची आवय देवाचो जप करता. आपलें सदचे संवयेप्रमाण शेखरानूय आपली प्रार्थना सोंपयली

आनी म्हजे कुशीक न्हिदतल्लों म्हणपाक लागलो: "बाबा हांव तुमकां देवबाप्पाची खबर सांगुकूच विसल्लों. काल सपनांत हांव देवबाप्पाकडेन गेल्लों.

हांव: खरेंच रे? कोण मेळळो रे तुका खंयचो देव?

शेखर: विष्णू आनी लक्षिमी.

हांव : शाब्बास.

शेखर : ताणीं सांगलां तुमकां येता त्या मे म्हयन्यांत शंबर लाख रूपया दितां म्हणून.

हांव : शंबर लाख? आवयस ! इतले पयशे हांव दवरतलों खंय रे बाळा. आमचेकडेन जागो तरी आसा?

शेखर: बाबा, देवबाप्पान सांगलां हे पयशे तुमचेखातीरूच केल्यात म्हणून. तांचेर तुमचें नांव घालां खंय "रघुनाथ पंडित" अशें. तुमकां घेवंचेच पडटले. ना जाल्यार खंय ते पयशे वायट करचे पडटले. नांव आतां काडूंक येना. हांव आयज सपनांत परतोय देवबाप्पाकडेन वेतलो. तांकां कितें सांगूं? शंभर लाख धाड म्हणून सांगूं काय नाका ?

हांव : इतले नाकारे म्हाका. म्हाका चडूच जाल्यार धा लाख पुरो

शेखर: इतलेच? धा लाखांत कितें येता बाबा. घर बांदूंक जातलें? म्हाका कितें कितें जाय तें आदीं तुमकां खबर आसा मू ?

हांव: सांग पळोवया कितें कितें जाय तें. यादी तरी करतां.

शेखर: कागदार बरयात तर. दोन फॉरेन गाडयो... आनी सगळ्यान आदीं म्हजे खातीर घरांत वेगळी ल्हानशी कूड. ल्हान टेबल. म्हजे मित्रांखातीर सरकारी लायब्ररींत भुर-

ग्यांखातीर आसात तसल्यो पांच ल्हान खुर्च्यो. एक ल्हान-गुलोच पंखो, रेडिओ, नळयेचो दिवो (टयूब लाईट) ल्हान वॉशिंग बेझिन. एक स्कुटर. सगळें येतलें धा लाखांत?
हांव: येतलें येतलें.

शेखर: आनी म्हाका तुमी जपानाक, अमेरिकेक, रशियनाक (रशियाक) विमानांतल्यान सगल्याक आईबराबर घेवन भोंवडावन हाडूंक जाय. थंय विमानां कशीं करतात, चड-करून मोटारी बऱ्यो बऱ्यो कश्यो तयार करतात, तांचीं माकनां कशीं करतात तें कारखान्यांनी व्हरून दाखोवपाक जाय. पावतले हे कामाक धा लाख?

हांव: पावतले रे बाळा. थोडे थोडे करून सांबाळून खर्च करपाक जाय. पावतले.

शेखर : मागीर बाकीचे पैशे कितें कर सांगू तर देवबाप्पाक ? ते वायट जातले म्हण्टा न्हय तो? तुमचे खातीरूच केल्यात खंय ते.

हांव : म्हजे नांव घालां खंय मरे देवबाप्पान शंबर लाखांचेर? मागीर ताका सांग, तांतले फक्कत धा लाख म्हाका धाडून दी. आनी उरिल्ल्या नव्वद लाखांचेर 'चंद्रशेखर' अशें नांव घाल. मागीर 'चंद्रशेखर रघुनाथ पंडित' अशें जालें ना? नांव आनी पैशे वायट जांवचे ना. हे पैशे तुजेखातीर दवर. तूं व्हडलो जालो की तुका दिवपाक. आयज देवबाप्पा तुका सपनांत मेळटलो न्हय तेन्ना सांग ताका तशें करपाक, तो आयकतलो. बरे भुरग्यान्चें तो सदां आयकता.

शेखर : चंद्रशेखर रघुनाथ पंडित अशें नांव? हय तशें केल्यार मात पैशे पिड्डचार जावंचे नात आनी हांव व्हडलो जालों की म्हाकाय मेळटले. मोटारींचो कारखानो काडपाक. तुमकां आनी आईक हावें तयार केल्ल्या मोटारींत बसोवपाक. तशेंच करतां तर. आयजूच सपनांत वचून देवबाप्पाक सांगतां. सांगूं मू बाबा?

आनी हांवें 'सांग, सांग.' म्हणची फुरसद शेखर गर्द न्हिदलोलेगीत. सपनांत देवबाप्पासरीं पावलोलेगीत.

९-४-१९७०

## सुर्याची उज्यापेटी

आमी दोगूय मिरामार गेल्ले. शेखर आनी हांव. दोगूय जाण बरोच वेळ वेळेर खेळ्ळे. फाट धरपाचो खेळ, ओले रेवेंत चित्रां काडपाचो खेळ. खेळून खेळून पुरो जालें तशे दोगूय जाण धवीफुल्ल आनी नितळ रेंव आशिल्ल्या जाग्यार वारो खायत बसले.

हावें बोल्सांतल्यान सिगरेटचें पाकीट काडलें. अेक सिगरेट बोटांत घल्ली. आनी ती पेटोवपाक फस्क सोद जाल्यार बोल्सांत उज्यापेटी नाशिल्ली.

कोणाकडेन मागतलो जाल्यार लागसार एक मनीस ना. हांव सामको निर्शेलों.

धारेर ह्याच खिणाक सूर्य अस्तमानाक वेतालो. अर्दो उदकाचेर तर अर्दो उदकात बुडिल्लो अशे अवस्तेंत तो आशिल्लो. सामको रसरशीत पेटिल्ल्या इंगळ्याप्रमाण दिसपी सूर्य.

सिगरेट कशी पेटयतलो हो म्हाका प्रस्न पडला हें पळोवन शेखर उबो रावलो आनी म्हाका हांसत आनी झेतान मावळपी सूर्याकडेन बोट दाखयत विचारता, 'बाबा थिगत ( सिगरेट ) पेतोवपाक हांव तुमकां सूल्यामामा उजो दिवूं?'

हावें जाप दिली, 'दी दी बेगीन दी सूर्या–उजो उदकांत बुडुक्क जावंचे पयलीं दी.

हावें तशें म्हणनाबराबर जणू काय सूर्याच्या पेटिल्ल्या विंग-ळ्याक हात घालून आपणें तो उजो हाडिल्लेवरीच शेखरान केलें आनी म्हजे सिगरेटीकडेन धरीत म्हण्टा.
'बेगीन पेटयात बाबा. ...वाऱ्यान पालवतोलो.'

सूर्य उदकांत बुडलो तसो शेखर परतोय रेंवेचेर चित्रां काडपांत रंगून गेलो.

धायेक मिण्टां गेल्लीं आसत, आपलो खेळ थांबोवन परतोय म्हजेकडेन येयत आनी माथ्यावेल्या रंगीन मळबाकडेन बोट दाखयत म्हाका म्हण्टा, 'वयर पळेयात बाबा, मळबांत आयस्क्रिमाचे कशे दोंगर जाल्यात ते. कोणे केले ते? देवबाप्पान? आहा... कितले सुंदर! आमी मळबांत वचूया बाबा ते खावपाक ?'

१६–४–१९७०.

## एक नवे लिपयेचो सोद

शेंखर उजळणी काडपाक बशिल्लो. मदींच कितें येवजलें कोण जाणा! एक कागद घेवन ताचेर कितेंयतरी भिरकिटावपाक लागलो. हावें विचाल्लें, 'सोंपलो रे अभ्यास शेखर?'

ताचेर म्हज्या हातांत तो भिरकिटायल्लो कागद दियत शेखर म्हण्टा 'हें वाचात बाबा हावें कितें बरयलां तें. नवे तरेन बरयलां.' कागदावेल्यान नदर भोंवडावन हांव वाचपाक लागलों. पुण त्या बरपाचो अर्थ नीट ध्यानांत येना. कागदाचेर अशें एक वाक्य बरयल्लें: 'R-तीच्या बाबांच्या घरांत आमी रावतात.'

आमी तेन्ना आल्तिन्याचेर शिरोडकाराल्या ब्लॉकांत रावताली. आनी शिरोडकारांचे व्हडले चलयेचें नांव आशिल्लें आरती. हावें शेखराक म्हळें 'तूंच दाखय पळोवया वाचून.'

त्याबराबर शेखर वाचपाक लागलो 'आरतीच्या बाबांच्या घरांत .....'

हाव (हांसत) : अश्शें अश्शें, R–ती म्हणजे तुजी ती मैत्रीण आरती मरे? आतां आयलें ध्यानांत.

शेखर : हय बाबा. तेंच हांव तुमकां सांगूंक वेतालों. हावें ही नवी रीत सोदून काडल्या बरोवपाची. कोण्णें म्हाका सांगूंक ना हां. टिचरीनसुद्दां. म्हजे हावेंच सोदून काडल्या.

आरतीचें नांव R–ती अशें बरोवपाची. तुमकां आवडटा की ना सांगा.

हांव : हय तर. वा वा, खूबूच आवडटा. बरो मरे तू नव्यो नव्यो गजाली करपाक लागलो ! शाब्बास !

शेखर : हय मूं? आतां तुमचें नांव बरोंवं? म्हजे हे नवे तरेन?

हांव : बरय पळोवया.

शेखरान बरोवन दाखयलें Ba–बा म्हणचे बाबा आनी आ–i म्हणचे आई. आसा कि ना गम्मत ?

हांव : आसा तर. तूं अिन्व्हेंटर जालो मरे शेखर !

शेखर : इन्व्हेंटर म्हणजे कितें बाबा?

हांवः नवे सोद लावपी. आदीं रेडिओ नासलो. एका मनशान पयलेच खेप रेडिओ केलो. कोणाक विचारिनासताना. मोटार नाशिल्ली, विमानूय नाशिल्लें. खेरीत खेरीत मनशांनो हीं रचलीं. तकली चलोवन आपणेच घडलीं. तांकां आमी इन्व्हेंटर म्हणटात. तसलो तूं जालो आं

शेखर : पुण हें इतलेंय सोदून काडपाक म्हाका कितलो वेळ लागला तुमकां खबर ना, बाबा. कालपासून हांव तकली चलयतां. तेन्ना ही दोन तीन नावां जमलीं. आरती R–ती, Ba–बा ..... काम सोपें न्हय. खूब खूब कठिण.

हांव : हय वेळ लागलो आनी तुवें गम्मतूय केली हें खरें. पुण अशो रोमी लिपी आनी देवनागरी लिपी दोनूय एकठांय हाडून उतरां बरोवप मात बरोबर न्हय आं.

शेखर : कितें म्हळें तुमी? परतेंय सांगा. म्हका सारकें कळूंक ना तुमी कितें सांगलें तें.

हांव : तूं A,B,C,D,B काडटा न्हय ताका म्हण्टात रोमी. आनी श्री, ग, णे, शा, ळ, क्ष, ज्ञ काडटा. ताका म्हण्टात देवनागरी. समजलें?
शेखर : फुडें सांगात.

हांव : आमी दोनूय एकठांय हाडून उतरां घडूंक फावना. आरती चें नांव R-ती अशें बरोवंक फावना. एक तें Arati अशें बरोवपाक जाय, नाजाल्यार 'आरती' अशें तरी बरोवपाक जाय. हेर तरेन बरोवप चुकीचें. दोनूय तरेन बरवप चुकीचें.

शेखर : चुकीचें कित्याक तें सांगात. बेठेंच चुकीचें म्हणून कितें उपेग. हावें R-ती अशें बरयलें. तुमकां वाचपाक सांगलें. तुमी कितें वाचतले? R म्हणचे आर ती म्हणचें ती. तुमी कशेंय वाचात. आयकतल्यांक आरती अशेंच आयकूंक येतलें की ना? मागीर तशें बरयल्यार चूक कित्याखातीर?
हांव : ना रे तशें बरयनात. कोणूच बरयनात. देखून आमीय बरोवपाक जायना. कोणूच करिना तें आपणे करचें न्हय

शेखर : बरें. तुमी तशें सांगतात जाल्यार बरोवपाचें हांव सोडून दितां. पुण आरतीक उलो करतना मात हांव R-ती तलें R मनान धरुन्च उलो करतलो. R-ती असोच उलो करतलों. तुमकां आदींच सांगून दवरतां.
हांव : आं तशें केल्यार जाता.

शेखर : लोकांनी चूक म्हळचार म्हणूं. तुमी, आईन मात तशें म्हणपाक जायना.

१-५-१९७०.

## मॅकानिकान मोटार ल्हान केली.

सारको करपा निमतान आमची मोटार गेल्ले चार म्हयने मॅकानिकाकडेन आशिल्ली.

शेखराक मोटारीचे सिटीचेर बसप म्हण्टात तें खबर ना. भोंवपाक वेतना वा आनीक खंयूय हांव ड्रायव्हिंग करताना मोटारींत म्हजे सिटी फाटल्यान उबो रावप. सिटीक घट्ट धरून. आनी पणजे ते बेळगांव मेरेनचो चार चार वरांचो लेगीत प्रवास उब्यांनी करप.. ही ताची खोड.

आयज मोटार मॅकानिकान सारखी करून हाडीना बराबर, ट्रायल घेवपानिमताात हांव भायर सल्लों. शेखरूय आपले सदांसंवयेप्रमाण म्हजे फाटल्यान येवन उबो रावलो. पुण जालें कितें, ताची तकली टपाक लागपाक लागिल्ल्यान ताका सारको उबो रावप जमना. त्रास जावपाक लागले. तसो शेखर म्हजे शेजरा बशिल्ल्या मॅकानिकाकडेन रागान पळेत म्हाका म्हण्टा, "बाबा पळे, मॅकानिकान आमची मोटार ल्हान करून हाडली. सामकीच ल्हान."
हांव : ना रे बाबू. मोटार ल्हान कशी करतलो? ती कापूंक येता?

शेखर : हय बाबा हांव खरें सांगतां. पळेयात तरी कितली ल्हान जाल्या ती. म्हजी तकली आदीं वयर तेंकताली? आतां? पळेयात कशी आपट्टा ती. हांवें म्हजो जागो बदलूंक ना. हांव सद्दां हांगाच उबो रावतां. तुमच्या फाटल्यान.

आयजूय थंयूच रावलां आनी तुमीय सांगतात मोटार ल्हान करूंक ना म्हणून?

शेखर म्हण्टा ती गजाल एकदम खरी आशिल्ली. शेखराची तकली वेल्यान मोटारीच्या टपाक आयज पयलेच खेप लागिल्ली. पुण ती लागपाचें कारण मात खेरीतूच आशिल्लें. गेल्ल्या चार म्हयन्यांत आमचो शेखरूच मात्सो ऊंच जाल्लो.

१७-५-१९७०.

## सुपुल्लो क्रांतिकारक

आयज एका इंग्लेज वर्तमानपत्रांत लढायेच्या टँकचो फोटो उजवाडा आयिल्लो. हांव पेपर वाचताना फोटो शेखरान पळेलो आनी विचारपाक लागलो, 'हो कसलो फोटो बाबा ?'

हांव : हाका टँक म्हण्टात.

शेखर : टॅंक ? टँक म्हणजे कितें? ती कित्याक उपकारता?

हांव : टँक लढायेंत वापरतात. दुस्मानाक मारपाक. घट्ट लोखणाची गाडी कशी आसता. व्हडली. तांतूत भितर शिपायक बसतात. ताका वेल्यान एक नाळ कशी जोडलेली आसता. कांय शिपाय माक्न चलयतात. आनी दुसरे ठो ठो करून जाळयेंतल्यान फार पेटयतात. मागीर दुस्मानाचे लोक मरून पडटात. नेहरूचाच्यान गोयांतले पुर्तुगेज धांवडायले

न्हय तेन्ना ताणें भारतांतले हजारांनी शिपायक आनी असल्यो टँकोय हांगा गोयांत तांचे बराबर धाडिल्ल्यो. पुर्तुगेज चड मस्ते जाल्ले. आमकां खूब त्रास दिताले. तांकां मारून उडोवपा खातीर ह्यो टँको धाडिल्ल्यो.

शेखर : टँक विकती घेवपाक कितले पैशे पडटात बाबा?

हांव : एके टँकीक धा लाख रूपया.

शेखर : आमकां सोर्तींत धा लाख रूपया आयले कीं आमीय एक टँक घेवया आं.

हांव : टँक? सगळें सोडून धा लाख दिवन लडायेची टँक कित्याक रे बाबा?

शेखर : ओगीच बाबा. कोणूय चोर आयले, कोणेय मस्ती केली जाल्यार तांकां मारपाक.

हांव : शे शे. तशें आमच्यानी करूं नज. पैशे आसलेय म्हणून कोणाच्यान टँक विकती घेंव नज. आनी तो घेवन आमच्यांनी कोणाक मारूंक तर जायच ना. कोणाकूच !

शेखर : कोणाकूच म्हणचे? चोरांकसुद्दां?

हांव : चोरांकसुद्दां. सरकाराच्यान मारूं येता. आमी मारूंक. फावना.

शेखर : तें आसूं. पुर्तुगेज परते आयले जाल्यार, तांकां मारपाक तरी उपकारतली ?

हांव : आमच्यानी कोणाकूच मारूं नज शेखर. पुर्तुगेजांकसुद्दां. सरकारानूच तांकां मारपाक जाय.

शेखर : मागीर आमी कितें करप तर? चोरांनी आनी कोणेय आमकां त्रास दिल्यार कितें करप? ओग्गी बसप?

४-६-१९७०

## सगल्यांपरस व्हड आनी ल्हान

घरचे वावराडेक शेखर आयज समजावन सांगतालो
सगल्यांपरस व्हड कोण तूं जाणां?
सगल्यांपरस व्हड देव.
ताचेपरस ल्हान राक्षस.
ताचेपरस ल्हान बांदोलकाका.
तांचेपरस ल्हान बाबा.
तांचेपरस ल्हान आई
तिचेपरस ल्हान किशोरी.(वावराक दवल्लेलें चेडूं.)
आनी सगल्यांपरस ल्हान हांव.

५-६-१९७०

## हांव कोका-कोला

हे उबाळांचे दीस. पावसाचें अजून चिन्न ना. जीव खतखततालो. सांजवेळचो चारांचो सुमार.

हांव पेपर वाचीत बशिल्लों. शेखर कुडींत ट्रायसिकलीचेर भोंवड्यो मारतालो. ताका मदींच कितें येवजलें कोण जाणा. म्हजेसरीं आयलो आनी म्हणपाक लागलो, "बाबा, तुमी कितें जाणां"?

हांव : कितें म्हणचे हांव समजलों ना.

शेखर : तुमी म्हणजे कोका-कोला.

हांव : मदींच कोका-कोलाचीशी याद जाली रे तुका? आनी सगळें सोडून हांव कोका-कोलासो कित्याक?

शेखर : हय तुमी कोका-कोलाच.

हांव : बरें, कोका-कोला जाल्यार कोकाकोला. कोका-कोला जावप वायट रे ?

शेखर : वायट न्हय बाबा. कोणें सांगलां वायट म्हणून?

आमचें उलोवणें चलिल्लें आसताना मदींच शेखराची आवय थंय पावली. तिचेकडेन पळेत हांवें शेखराक म्हळें, "बरें, तें आसूं. आतां हें सांग हांव कोका-कोला जाल्यार तुजी आई कितें"?

सातपासून थांबनासताना ताणें जाप दिली, "आई, गोल्डस्पॉट."

हांव : शाब्बास! आतां तूंय आपूण स्वत: कितें तें सांगून उडय.

शेखर : हांव? हांव म्हणचे आयस्क्रीम बाबा !

९-६-१९७०.

## वांकडे भुरगें

घरांतलो वावर करपाक, शेखराक सांबाळपाक किशोरी नांवाचें एक धा बारा वर्सांचें वेंगुर्लेंचें भुरगें आसा. शेखराचें आनी ताचें कशें म्हळचार कशेंचतरेन पटना. दोगांयजाणां एकमेकांच्यो अेकसारक्यो केशी म्हाका सांगीत आसतात.

फाविल्ल्या वेळांत आमची मोटार पुसपाचें काम किशोरीच करता. आयज सकाळीं किशोरी मोटार पुसपाच्या निमतान ती पुसपाचो आंगसो हाडपाक गेल्लें. ताचे फाटोफाट शेखरूय गेलो. ताचे हातांतलो आंगसो ताणे झोमून घेतलो. आनी कागदार पेन्सिलीन आपण बरयल्लें कितेंयतरी तें त्या आंगशान पुसपाक बसलो.

किशोरी तणतणत म्हजेसरीं येवन आपले वेंगुल्लेचे भाशेंत म्हणपाक लागलें:शेखर बघा मोटार पुसूंक फडको दिनासा नाय. कशी पुसूं मोटार?

हांवः (शेखराक रागान उलो मारीत)शेखर, कितें मस्ती करता रे?

शेखरः कांय ना बाबा. पेपरार भिरकिटायल्लें पुसतां.

हांवः मोटारीच्या आंगशान रे? तुजेकडेन रबर ना? दिवन उडय पळोवया ताका फडको. म्हाका बेगीन भायर सरपाचें आसा. ताका घेवंदी मोटार पुसून!

शेखरान मोन्यांनीं आंगसो किशोरीक दिवन उडयलो पुण त्रेच बराबर ताचो मोटारींत उदक घालपाचो तांबयो घेवन गूपचूप बाथरूमांत गेलो अनी दार लावन घेतलें. किशोरीक तितलेंच निमित्त पुरो आशिल्लें. आयलें परतें म्हजेकडेन शेखराची कागाळी घेवन. म्हणपाक लागलें. "आतां बघा काय करतासातो. पाण्याचो गडू दिनासा नाय! बाथरूमाची कडी लावन भितूर जावन बसलोसा."

हांव किशोरीचेर तिडकलों,'जाणां मुगो तूमी दोगांय सारकींच.

शेखरान दाराक खिळी लायिल्ल्याचें फक्त सवंग केल्लें. बाथरूमाचें दार आड करून भायर किते चल्ला म्हणपाचें कान दिवन तो आयकतालो. चटकन भायर येयत आनी म्हजे पायांक वेंग मारीत तो म्हणपाक लागलो, "दोगांय सारकींच? किशोरीय म्हजेच सारकें? न्हय बाबा, तुमी बरे वळखनात ताका. म्हजेपरस जायतें बांकडें आसा तें."

१-७-१९७०.

## तरेकतरेचीं सपनां

शेखर आयज सकाळींफुडें उठल्याबराबर दोळे चोळीत हांतरूणांतल्यानूच म्हाका म्हणपाक लागलो, 'बाबा, हांवें आयज अेक सपन पळेलें. बरें सपन.'

हांव : कसलें रे?

शेखर : सपनांत कीं ना हांव आनी सारा ( आमच्या शेजारच्या केणयाली चली ) दोगांय जाणां बोटींत बसून मुंबय गेल्लीं.

हांव : दोगांच जाणां, म्हाका–आईक व्हरूंक ना ?

शेखर : ना बाबा आमीं दोगांच गेल्लीं. शामू, भारती (शेजारचीं भुरगीं )हांकांसुद्दां व्हरूंक ना.'

हांव : अशें?

शेखर : खऱ्यांनीच बाबा.

हांव : केन्नारे पुण?

शेखर : आत्तां!

हांव : आनी मुंबय वचून कितें केलें?

शेखर : सर्गार – घरासकयल बाजार आसा न्हय थंय भोंवली. ( शेखर आमचेबराबर मुंबयच्या क्रॉफर्ड मार्केटा शेजारच्या सरदारगृहांत वचून दोन फावटी रावला. म्हजो हात धरून पासयेवेल्यान भोंवला. हो मुंबयचो वाठार सादारणसो ताचे वळखीचो आसा. ) व्हड माळयेच्या बसोनीं बसलीं.

हांव : आनीक कितें कितें केलें रे ?

शेखर : खूब चॉकलेटी विकत्यो घेतल्यो. आयस्क्रिम खालीं. हॉटेलांत वचून मंगोला, गोल्डस्पॉट पियेलीं. हावें म्हाका शाळेची चकचकीत बॅग घेतली. सारान आनी हावें दोगांयनी एक झुकु–गाडी घेतली. आनी बोटींत बसून परतीं आयलीं.

हांव : केन्ना रे केलें हें सगलें?

शेखर : आत्तां न्हय बाबा. ( थारून ) आतां बोट आयली बाबा?

हांव : कित्याक रे बोट ? बोटीक अजून खूब वेळ आसा येवपाक. निकतीं सात वरां जाल्यांत. बोट धायेक वरांचेर पणजे पावता.

शेखर : (विस्मयान प्रस्न करता) मागीर हांव कसो आयलों तर बोटींत बसून?

हांव : ती सपनांतली बोट शेखर !

शेखर: सपनांतली बोट आनी खरी बोट एकूच न्हय बाबा?

हांव : न्हंय न्हंय. त्यो वेगवेगळयो.

शेखर : आनी सपनांतली मुंबय?

हांव : तीसुद्दां दुसरीच मुंबय.

शेखर : कितें सांगतात बाबा तुमी ! दुसरी न्हय हावें तुमचेबराबर पळयल्ली तीच मुंबय आतां हांव गेल्लों ती. आनी बोट सुद्दां तीच.

हांव : अशें?

शेखर : आनी हें सांगात, म्हजे सपनांत सारा आयलें जाल्यार साराकूय तेंच सपन पडटा? काय दुसरें?

हांव : पडटाच अशें ना. साराक घडये दुसरेंच सपन पडूं यता.

शेखर : तें कशें तर? सारा म्हजे सपनांत आनी ताच्या सपनांत, एकदमूच दोन सपनांत कशें वेता तर?

(हांव गप्प राविल्लों पळोवन)

शेखर : कशें बाबा?

हांव : तशेंच रे!

शेखर : आनी आयज तुमकां कसलें सपन पडलेलें बाबा?

हांव : हांगासल्लेंच, घरांतलें सपन बाळा. सादें. हांव खंय वचूंक ना. सपनांतमुद्दां घरांतूच आशिल्लों.

शेखर : तेन्ना तुमच्या सपनांत आयज हांव आयिल्लों की ना ?

हांव : आयिल्लों तर ! तूं आसलेबगर म्हजें एक तरी सपन जाता?

शेखर : तशें न्हय बाबा, हांव आयच्या तुमच्या सपनांत आयिल्लों काय विचारतां ?

हांव : आयच्यामुद्धां.

शेखर : तुमचे बराबर आशिल्लों हांव? हांगा घरांत?

हांव : हय आशिल्लो.

शेखर : आनी कितें करतालों?

हांव : कितें करतालो म्हणचे? अभ्यास करतालो, खेळटालो. म्हजेबराबर आईबराबर उलयतालो.

शेखर : आनी म्हजे बराबर साराय आयिल्लें?

हाव: ना. सारा ना येवंव.

शेखर : असलीं कसलीं तर हीं सपनां बाबा? फटीचीं! आनी कशों पडटात तीं? एका दिसा घरांतल्या सगल्या जाणांक एकूच सपन पडना? म्हाका, आईक, तुमकां, किशोरीक?

हांव : ना.सगल्यांक तरेकतरेचीं.

शेखर : मागीर गोयांत कितलीं सपनां आसात तर?

हांव : लाखांनी.

शेखर : आनी फाल्यां दुसरीं? परवां दुसरीं? नवीं, नवीं?

हांव : सामकी नवीं.

शेखर : आरेच्या गम्मतूच न्हय? आनी हीं सगलीं सपना कोण करता बाबा?

आतां हाका गा आनीक हांव कितें जाप दितलीं?

४-७-१९७०

## न्हिदिल्लें झाड

दोन चार दीस जाले पावस झडपून पडटा. एका सारको, थार नासताना. सामको घोग्यानी म्हळचार जाता. ताका लागून आमच्या ब्लोका सकलाच्या पोरसांतलीं दोन

चार सुपुल्लीं झाडां आडवीं जाल्यांत. मोडूंक ना. जमनीक फक्त ताणीं आपले शेंडे तेंकयल्यात.

आज सकाळीं गॅलरींतल्यान तांचेकडेन पळेत शेखर म्हाका म्हण्टा, "बाबा ह्या झाडांची तुमी गम्मत पळेल्या, काल पैर प सून हीं हांगां न्हिदून रावल्यांत. उठुंकूच नात. तांकांय पुरो ज़ालां आसतलें. ना बाबा?"

१०-१०-१९७०.

## नवे तरेचें पोस्टखातें

हांव पोस्टांत पत्रां उडोवपाक गेल्लों. भायर पावस पडटालो. हांवें पोस्टाकडेन मोटार थारायली. पुण मोटार पोस्टाकडेन पार्क करपाक बंदी आसा. देखून शेखराक म्हळें धांवत वचून डब्यांत मातशीं हीं पत्रां उडय बाळा आनी यो. एक एक करून सवकासायेन उडय आं. जमनीर पडल्यार भिजतलीं. शेखर दोन मिणटांत पत्रां वेवस्तीत डब्यांत उडोवन आयलो. सत्री नाशिल्ल्यान मात्सो भिजलो. हांवें लेंसान ताचें माथें पुसलें आनी मोटार सोडली. त्या बरोबर तो म्हण्टा, "बाबा, आमी नवें घर बांदतले न्हय, तेन्ना आमच्या घराकूच लागून असलें पत्रांचेंय एक घर बांदुया. तातूंत पत्रां उडोवपाचो डबो दवरुया.

हांव:पत्रांचें घर आमच्या घराक तेंकूनशें कित्याक रे बाबा?

शेखर : तशें केलें कीं सद्दां पत्रां उडोवपाक आमकां इतलें पैस येवंचें पडचें ना. आनी पावसांतूय भिजचें पडचेंना.

पोस्टमन आमच्या घराकडेन येवन डब्यांतलीं पत्रां घेवन वेतलो.

हांव: शेखर, बाळा पत्रांचें घर सरकार बांदता. आमच्यानी बांदूं नज. सरकार पोस्टमनाक पैशे दिता. ते सरकारचे चाकर. ते आमचीं पत्रां व्हरचे नात. ह्या सरकारी पत्रां-डब्यांनीं पत्रां उडयलीं जाल्यारूच पोस्टमन तीं व्हरतात. आमी ज्यांकां तीं धाडटांत तांकां त्या त्या गावांनीं व्हरून पावयतात.

शेखर : आमचीं पत्रां व्हरपाक आमकां सरकारचे चाकर आनी पोस्टमन कित्याक जाय बाबा? हांव सांगतां तुमकां कितें करपाचें तें.

हांव : सांग.

शेखर : आमी बाजारांतलो एक पोस्टाचो व्हडलो तांबडो डबो विकतो घेवया. आनी घराकडेन हाडून दवरूया. सद्दां तुमी, आई बरयतात तीं सगळीं पत्रां त्या डब्यांत उडोवया. आनी डबो खूब दीसांनी पत्रांनीं भल्लो कीं तीं सगळीं पत्रां काडून कोणाकोणाक तुमी बरयल्यांत तांची तांकां आमीच व्हरून पावोवया !

हांव : (हांसूक येता तें दामीत )आरे, पत्रां पुणे, मुंबय दिल्ली, अमेरिका, इंग्लंड रशिया इतले पैस पैस आमी कशे पावयतले?

शेखर : कितें जालें गांव पैस आसले म्हणून ! म्हाका दिवाळेची, नातालांची बी शाळेक सुटी आसता न्हय, त्या दिसांनी हें काम आमच्यांनी करूं येता. हांवूय येतां तुमचे-बरोबर. आईकूय घेवया आनी सगळे गांव भोंवया. सगळीं

त्रां बेगांनी ट्रंकांनी भरून आमचेबरोबर घेतलीं कीं जालीं. पत्रांचेर तुमीच पत्ते बरयल्ले आसतात न्हय? ते लोक खंय खंय रावतात ते जागे आनी गांव तुमकां खबर ना? मागीर जालें तर ! सरकार बी कांय नाका. आमीच पत्रां वांटूया आमचीं, सगळयांक. आमकांय भोंवूक मेळटलें, पत्रांय वांटूक मेळटलीं. मज्जा जातली बाबा. तशेंच करूया आमी.

११-१०-१९७०

## मामीचो घडयाळ

रेडिओचेर सकाळच्यो कोंकणी खबरो चालू आशिल्ल्यो. त्यो आयकल्याबराबर घडयाळाक कोर्द दिवंक राशिल्ल्याची याद जावन हावें सुषमाक म्हळे, "वरां कितलीं जालीं पळे."

सुषमान घडयाळ पळोवन सांगलें 'साडेसात.'
ांव : साडेसात? आमची घडयाळ सारकी फाटीं कशी रावता? घडयाळकाराक दाखोवन तरी हाडपाक जाय.

शेखरान तें खंयच्यान तरी आयकलें. आनी म्हजेसरीं गांवत येवन म्हण्टा, "ती दिलीपाच्या मामींची ( आमचे ांजान्निची ) घडयाळ मात एकदम बरी आं सामकी फास्ट ालता."

ांव : तुका कोणे सांगलें रे शेखर?

शेखर : म्हाका खबर आसा बाबा. हावें तुमकां मात सांगूंक ना. हांव ह्या दिसांनीं सद्दां मामीच्या घडयाळावेलो टायम विचारूनूच शाळेक वेतां बाबा. तशें केलें की म्हाका खूब खेळूंक मेळटा.

हांव : कशें रे बाबा?

शेखर : मामीच्या घडयाळाचेर टायम पळोवन देड वराचेर शाळेंत गेलों कीं आमच्या शाळेंतल्या घडयाळीचेर एक जाता. ती आमचे घडयाळीवरीच फाटीं रावता. आमची शाळा देड वराचेर. ती सुरू जायमेरेन आमी लिपच्यांनी खेळटात. आमची घडयाळ आमी मामीच्या सारकीच फास्ट दवरुया, बाबा.

१६–१०–१९७०.

## हयो बँको.

सकाळचो ९ वरांचो सुमार. दूद, नाश्तो करून शेखर निकतोच भायर आयिल्लो. हांव पेपर वाचीत बसलां. थंय म्हाका ताचो अवचीत प्रस्न. बाबा, बांदोलकाकाकडेन धा लाख रूपया आसात?

हांव : धाच कित्याक, जायते आसतले.

शेखर : शंबर लाख?

हांव : आसत. पुण तुका कित्याक रे त्यो गजाली?

शेखर : तो पयशे बँकेंत दवरता?

हांव : हय तर ! सगलेच जाण पैशे बँकेंत दवरतात.

शेखर : बांदोलकाका खंयचे बँकेंत दवरतात? देना बँकेंत, स्टेट बँकेंत, उर्सून बँकेंत?

हांव : उर्सून? ही आनी खंयची रे बाबा नवी बँक?

शेखर : ती बाबा, भुरग्यांची शाळा आसा न्हय? थंय आसा ती. (ताका म्हणपाचें आसलें ओव्हरसीस बँक )

हांव : हय दवरता. बांदोलकाका आपले पैशे खूब बँकांनी दवरतात.

शेखर : शंबर लाख पळोवपाक मेळटात बाबा?

हांव : तशे पळोवंक मेळनात. ते बँकेंत आसतात. तांकां जाय तेन्ना मागल्यार दितात.

शेखर : बांदोलकाकांक बँकेंत भितर वचून जाय जाय तेन्ना आपले पैशे पळोवंक मेळटात?

हांवः बँकेंतले पैशे तशे कोणाकूच पळोवंक मेळनात.

शेखरः हांव बांदोलकाकां बरोबर गेल्यार म्हाका पळोवपाक मेळचे नात, शंबर लाख?

हांव : ना. बँकेंत एकल्याचेच पैशे नासतात. सगळ्यांचे, खूब जाणांचे आसतात. बांदोलकाका, धेंपो, चौगुले, केणी, शिरोडकार काका ...सगल्यांचे. म्हणून कोणाकूच भितर वचून बँकेंतले पैशे पळोवपाक दिनात. आपले पैशे मागले की जाय जाय तितलेच दितात.

शेखरः पुण सगले पैशे एकीचकडेन दवरतात जाल्यार तांकां (बँकेच्या नोकरांक)खंयचे पैशे कोणाचे ते कशें कळटा तर?

हांवः तें पुस्तकांत बरयल्लें आसता. तुवें तांचीं व्हड व्हड पुस्तकां पळोवंक ना रे? हांवें दाखोवंक ना तुका?

शेखरः पळेल्यांत.

हांव: हय मरे? तांतूंत सगलें बरयल्लें आसता. कितले पैशे दवल्ले. कितले व्हेले. कितले उल्ले सगलें बरयतात. दवल्लेले पैशे सगळे व्हरून सोंपयले जाल्यार आनीक मागल्यार दिनात. ना जाल्यार कोणूय एक लाख पैशे दवरतलो आनी मागताना धा लाख मागतलो. तशे उपकारना.

(शेखराचो सगळो हिशोब लाखांनी. हजार, शेंकडे ताका खबरूच नात. लाख ही ताची गणीत करपाची युनीट म्हळचार जाता.)

शेखर : बँकवाले तशें करतात म्हणुन बरें, ना बाबा,… कोणाचेय पैशे कोणाकूय दिनात. दाखयनात ते? ना जाल्यार कोणूय तुमचे धा लाख, बांदोलकाकांचे शंबर लाख बँकेंत वचून खंय दवरल्यात ते चोरून पळेतलो आसलो आनी तुमकां कळनास्तना काडून, ना जाल्यार आपणाचेच म्हुण सांगून बँकवाल्यांकडल्यान मागून व्हरतलो आसलो. राजाचे बी (गव्हर्नराचे) राष्ट्रपतीचे.. इंदिरा गांधीचे…विस्वाण (चव्हाण) कोण तो बाबा दिल्लीचो मिनिस्टर? … ताचे सगले पैशे चोरून व्हेले जाल्यार राजा बी भिकारी जांवचे नासले बाबा?

१७-१०-१९७०.

## देवूय जालो तरी चुकताच

शेखर आवयक प्रस्न करता,“आई, आमकां सगळ्यांक कोणे केल्यात गे? तुका, म्हाका, बाबांक”?

शेखराची आवय: कोणे म्हणचे, देवान.

शेखर: सगल्यांक?

आवय: सगल्यांक.

शेखर: झाडांक, मनिसांक, दोंगराक, मळबाक, मेमीक (नुस्त्याक), जमनीक, सगल्यांक?

आवय: सगल्यांक.

शेखर : खंयच्या देवान केल्या?

आवय: देव कितले आसात तर रे? एकूच न्हय?

शेखर: एकूच? आनी तूं म्हाका कितल्या देवांच्यो काणयो सांगता कशी तर? राम, कृष्ण, शंभू, दत्तगूरू, गणपती, त्या शिवाय आमची देवी भगवती खांडोळेंची. वेंगुल्लेंच्या देवळांतलो रामेश्वर. सगळ्या देवळांतले देव. मारुती आनी महालक्षिमी. म्हाका नांव दवल्लां तो विष्णू, सरस्वती देवी. कितले जाले? हे सगल्या देवांक कोणे केल्या?

आवय: विष्णून.

शेखर: आनी विष्णूक?

आवय: ताका कोण्णे करूंक ना. तो आदींपासूनूच आसलो.

शेखर: ताणं सगल्या देवांक केल्या?

आवय: हय.

शेखर: ताणेंच जमीन केल्या, मळब केलां, उदक... झाडां, बेबे, हुंदीर, कोले, वाग, आनी मनिसांक केलां?

आवय: हय ताणेंच.

शेखर: मागीर जमीन करचे पयलीं, उदक करचे पयलींच तो आसलो?

आवय: हय रे बाबा हय.

शेखर: जमीन नासताना तो कित्याचेर बसतालो तर? उदक नासताना तान लागल्यार कितें पियेतालो? भूक लागल्यार कितें खातालो? आनो रावतालो खंय तर? ताका कोण वाडटालो?

आवय: ताची बायल.

शेखर: लक्षिमी मगे?

आवय: हय.

शेखर: लक्षिमीक कोणे केली?

आवय: तीय बी आदींपासूनच आसली विष्णूब्रोबर

शेखर: आनी तांचो बाबू ना?

आवय: तांचे बाबू आमी.

शेखर: मागीर आमीय देवूच तर?

आवय: (कंटाळो येवन) आतां पुरो रे बाबा. कितें एकासारकें फुडलें फुडलें विचारीत रावला?

शेखर: सांग तरी. आनी राक्षसांक कोणे केले तर?

आवय: देवानूच.

शेखर: राक्षस बरे?

आवय: कोण सांगता राक्षस बरे म्हणून? राक्षस वायटूच.

शेखर: वायट जाल्यार देवान तांकां कित्याक केले तर ?

आवय: कित्याक म्हणचे? मारपाखातीर. कृष्णान कंसाक माल्लो. रामान रावणाक माल्लो. ह्यो काणयो हावें तुका सांगूक नारे शेखर?

शेखर: तें जालें. तांकां माल्ले पुण तांकां आदीं देवान केले कित्याक? तें सांग. आदीं करप, मागीर मारप, ते परस आदीं तांकां करिनासतानाच रावपाक जाय नासलें?

आवय: तुजेफुडें माणसुकी ना रे बाबा! हांव चल्लीं म्हाका कामां आसात. तूं खेळपाक वच पळोवया आतां सारागेर.

१-११-१९७०

## वजन नाशिल्लो मनीस

बेंगळूरसावन म्हजो एक अश्ट आयज म्हाका मेळपाक आयिल्लो. दनपारां च्या घेयत आमी दोगूय बरो वेळ उलयत बसले आनी तो वचपाक गेलो. वेतना आपल्या बोल्सांतली कसली तरी एक तिकेट काडून ताणें जमनीर उडयली. शेखराची ताचेर नजर आशिल्ली.

तो अश्ट गेलो त्याबराबर शेखरान ती तिकेट उखल्ली आनी म्हजेसरीन येवन म्हाका दाखयत म्हणपाक लागलो, 'बाबा हें कितें, कसली तिकेट?'

हावें ती पळोवन जाप दिली : आरे ही वजनाची तिकेट

शेखर : वजनाची म्हणचे?

हांव : झुकु गाडयेचीं स्टेशनां तुवें पळोवक ना, आमी मुंबय गेल्ले तेन्ना?

शेखर : पळेल्यांत, मागीर?

हांव : थंय तीं दिवे पेट्टात पालवतात चकचक करून, याद आसा? तसलीं वजन करपाचीं माकनां आसतात. तांचेर कोणेय उबें रावंचें आनी भितर खांचितल्यान एक धा पैशांचें नाणे उडोवचें. तशें केलें कीं त्या मनशाचें वजन केल्ली तिकेट भायर सरता.

शेखर : ताचे वेल्यान कितें कळटा?

हांव : तो मनीस कितलो जड आसा तें कळटा.

शेखराक हें आयकून खूबूच अजाप दिसलें. म्हणपाक लागलो, "म्हणचे हे तिकिटांत आतां आयिल्ल्या तुमच्या मित्राचें वजन आसा"?

हांव: हय.

शेखर: (ती तिकेट आपल्या हाताच्या तळव्यार धरून तोलिल्ले वरी करीत म्हण्टा) कितलें ल्हव न्हय हें बाबा? तुमचो तो मित्र वजनान इतलो ल्हव? चाकलेटी-परसूय ल्हव? पळोवपाक मात वेल्यान कितलो व्हड आनी तुमचेसारकोच दिसतालो तो बाबा! असलो कसलो मनीस तर तो?

१-१-१९७१

## थापट फुकट गेले

आयज दनपारां शेखराक हांव इंग्रजी आकडे अक्षरीं कशे बरयतात तें शिकयतालो. २०चें Twenty अशें शिकयताना y चे जाग्यार ताणें g काडिल्ले वरी म्हाका दिशिल्ल्यान हावें ताचेर रागान चट करून एक थापट माल्लें. त्या बराबर तो म्हाका म्हणपाक लागलो "आतां फुकट गेलें ना बेठेंच?" ताच्या म्हणण्याचो अर्थ म्हज्या ध्यानात सारको

येवंक नाशिल्यान हांवें विचाल्लें, "कितें गेलें रे फुकट"?
शेखर : (गाल फुगोवन) तुमचें थापट!
हांव : कशें?
शेखर : कशें म्हूणचे, हावें बरयल्लें सारकें पळयनासतनाच तुमी म्हाका माल्लो म्हूणून. हांवें g काडूंक ना yच ती.y काडटाना म्हजेकडेन सदां तिचीं दोनूय आंगां चिकटटात. आनी g कशें जाता.म्हाका सारकीं काडूंक येना. बाबा, शाळेंत टिचरूय म्हजेर रागार जाता आनी तुमीय म्हाका बेठेच मारतात?

अशें सांगताना ताचे दोळे भरुन आयिल्ले. ताचें म्हणणें खरें आशिल्लें. म्हजें थापट फुकट गेल्लें. हावें ताका लागीं ओडलो. आनी त्या दिसापासून शिकयताना ताका केन्ना हात लायलो ना.

२३-१-१९७१

आज सकाळीं णवाच्या अदमासाक हांव असोच म्हजे कुडींत बशिल्लों सदां प्रमाण सगलेकडेन कूडभर कागदांचो शिवर जाल्लो. खंयच्याय तरी एका नव्या कवितेचो जल्म जातालो. वेणो येताल्यो. कवितांचे कागदूच म्हजे भोंवतणी आशिल्ले. एकेतरेचे समाधी अवस्तेंत हांव आशिल्लों इतल्यांत ...... बेडरूमांतल्यान आपल्या ट्रायसिक्लचेर बसून आपलेपरीन फास्ट आनी विजेवेगान येवपो शेखरान म्हजे कुडींत प्रवेस केलो. तोंडांतल्यान पों...पों... सर्रर्र... सों सों आवाज करीतच ताणें म्हाका चत्रायेची शिटकावणी दियत सांगलें ......

बाबा, बाबा ... बेगीन तुमच्यो सगल्यो कविता रस्त्यावेल्यान कुशीक काडात. वेगोवेग. नाजाल्यार म्हजे सायकली पोंदा त्यो सामक्यो चिड्ड्न वेतल्यो. आनी तांकां अपघात जातलो.

२३-१-१९७१.

## दुसरें अर्दार पावलां

आयज बाजारांतल्यान हावें चार आंतेरां हाडिल्लीं.

शेखराक फळां चड मानवतात. तीं हाडलीं कीं शेखर तांचेर झोपय घालता. आनी एक एक करीत सगळीं एकदम फस्त करता. देखून आंतेरां हाडटांच हावें शेखराक आफयलो आनी समजायलें, "हें पळे शेखर, हीं चार आंतेरां. चारूच आसलीं. सगळ्यानी खावपाचीं."

शेखर : हांतुतलीं म्हाका कितलीं, बाबा ?

हांव : तुका दोन. पुण दोनूय आयजूच सोंपोवपाचीं न्हय. आयज एक तुका, एक आईक, एक म्हाका. आनी उरिल्लें चवथें फाल्यां तुका एकट्याकूच. शेखरान हां म्हळें आनी वोग्गी रावलो.

मातश्या वेळान म्हजेकडेन कोण तरी म्हजो अिश्ट आयलो. आमी बरोच वेळ गजाली करीत बसले. तो गेल्या बराबर हांव भितर यो जाल्यार रांदचे कुडींत मेजार बसून शेखराचें आंतेरां रगडपाचें काम जोरांत चल्लां.

म्हज्या लक्षांत ती गजाल आयलीनाशें पळोवन शेखरूच तो म्हजे नदरेक हाडून दियत म्हणटा, 'बाबा, दुसरें सुरु जालां.'

अजूनूय तो कितें म्हणटा तें ध्यानांत येंवक नाशिल्यान हावें म्हळें "कितें रे सुरू जालां?"

शेखर : आतां न्हय बाबा, दुसरें येदोळ सुरू जालें. आतां अर्दार पावलां."

३१-३-१९७१.

## बाबा नाशिल्लें जग

गेल्या २७ तारकेक म्हजे मोटारीक व्हड अपघात जालो. हांव एकलोच मोटार चलयतालों. म्हज्या कपलाक जबर मार बसलो. सात टांके ऑश्पितालांत वचून घालचे पडले.

आयज दनपारां कपल ऊसळटा म्हुण हांव हातरूणार पडिल्लों. कपल एका हातान, सणसणटा त्या जाग्यार दामीत. इतल्यान शेखर म्हजेसरीं आयलो आनी लाडांत येवन म्हज्या खांदार हात दवरीत विचारता: तुमची तकली दुखता बाबा?

हांव : हय बाळा.

शेखर : चड?

हांव : चड तर?

शेखर: कशी ती? चड कशी दुखता बाबा? चड कित्याक दुखता?

हांव : दुखूं रे दुखल्यार. (वोगीच त्राशिल्ल्या सुरांत हावें जाप दिली. शेखर कितें म्हण्टा तें पळोवपाच्या हेतान कपल दुखता ताचेयपरस तें खूबूच चड दुखता म्हणपाचें सवंग केलें.)

शेखर : दुखूं कित्याक ? दुकूंक जायना बाबा. ताचे दोळे तशें म्हण्टाना भरून आयिल्ले. नदर काकुळटे आयिल्लेवरी जाल्ली. तो म्हाका घट्ट तेंकलो. तें पळोवन हांवें सत्रंग मातशें चडूच करीत म्हळें. "कितें जाता दुकली म्हणून म्हजी दुकल्यार म्हाकाच दुकतलें"!

शेखर : (रागान) तुमची कोणाचेर माया ना म्हुण कितें जालें? म्हजीय ना दिसता?

हांव : कितें म्हळे रे? म्हजी कोणाचेर माया ना? तुजेर ना मरे म्हजी माया?

शेखर : (म्हाका घट्ट तेंकत) तुमची तुमचेर माया ना म्हुण कितें जालें... म्हजीय ना तर तुमचेर? बरें आं बरें !

० ० ०

रातीचे जेवणाउपरांत आमी दोगूय हातरूणांत पडिल्ले. शेखर आनी हांव. भायर खुब्ब थंडी आशिल्ली. हावें शाल पांगुरिल्ली. शेखर म्हजे कुशीक म्हज्या पांगरूणांत आशिल्लो.

ताका मातसो तिडावपानिमतान परतून सकाळचोच विशय काडीत हावें म्हळें, "म्हजी तकली मातशी फुटली म्हुण बरें. चड फुटल्यार हांव देवबाप्पागेर वेतलों आशिल्लों! मागीर तूं कितें करतलो आशिल्लो रे?"

शेखर : हांव तुमकां वचुंकूच दिवचो नाशिल्लों. तुमी वटेच वेशात बरे. हावें वचपाक दिवं नाका? हांवूय तुमचेबराबर येतलों आशिल्लों.

हांव : पिसो रे पिसो. तसो बेठोच येवपाक जाता तर कोणाकूय. देवबाप्पा सोडीना. आक्सिदेंत जाल्यारूच सोडटा देखून तुका आनी आईक हांगाच रावचें पडटलें आशिल्लें.

शेखर : देवबाप्पान व्हरनाय जाल्यार हांव तुमचेबराबर येतलोंच आशिल्लों. तुमचे पाठसून.

हांव : कसो येतलो आसलो रे? तुका वाट तरी खबर आसा देवबाप्पागेर वचपाची?

शेखर : देवबाप्पा मळबांत रावता ती वाट म्हाका खबर ना? हे ते कितें गॅलरींत रावल्यार सगळें मळब दिश्टी पडटा.

हांव : दिश्टी पडटा रे. पुण इतले वयर तूं येतलो कसो?

शेखर : कसो म्हणवे निसणीर उबो रावून.

हांव : इतली उंच निसण पावता?

शेखर : एक पावना जाल्यार निसणीर निसण, निसणीर निसण करून खुब्च निसणी बांदतलों आशिल्लों. आनी तांचेवेल्यान चडत चडत येतलों आशिल्लों. पुरो जाल्यार मदीं बसतलों आशिल्लों थांबत थांबत सवकास येतलों आशिल्लों.

हांव : पुण इतल्यो निसणी आसात खंय?

शेखर : हांव विकत्यो हाडटलों आशिल्लों.

हांव : आनी पयशे खंयचे?

शेखर : म्हज्या डब्यांतले पयशे. तुमी दिवाळे दिसा दितात ते. आईकडले पयशे तुमचे बँकेंतले पयशे सगळे पयशे दिवन... शंबर आनी शंबर ... आनी – शं...ब...र्रर्र, दिवन निसणी हाडटलों आशिल्लों.

हांव : तें आसूं. पुण इतल्यो निसणी चडून वयर वचपाक तुका भंय बी कांय दिसचो नासलो रे ?

शेखर : दिसल्यार दिसूं भंय आनी वयरसून पडल्यार पसून पडूं सकयल. हांव येतलों तुमचे बराबर म्हणजे येतलोंच. पुण आतां मात तुमी तशे परथेय म्हणत जाल्यार मात हांव तुमचेकडेन केन्नाच उलोवंचो ना आं. आदींच सांगून दवरतां तुमकां.

अशें म्हणत आनी म्हजे कुशींत आपली तकली सारून शेखर फुगार जावन रडपाक लागता.

२०-५-१९७१.

## हुमणाचो समुद्र

दनपारां आमी सगळींजाणां जेवणाक बशिल्लीं. हांव, शेखर आनी सुषमा.

आयज जेवणाक आगराचें नुसतें आशिल्लें. भरपूर. आनी हुमण बरें रूचिक जाल्ल्या कारणान हावें ताटभर घेतिल्लें. आनी तातूंत पानभर नुसत्याच्या पोस्तांची रास!

तें पळोवन शेखर म्हणटा : कितें बाबा तुमी ताटांत हुमणाचो दर्या केला. आनी मदीं नुस्त्याच्यो केद्यो बोटी...!

२२-५-१९७१.

## मस्तो पंडित

दनपारां अडेज वरांचेर दुदा केंद्राचेर दुदा मेळटा. अजून दुदाचो वेळ जालोना अशें समजून घरांतलें चेडूं सुशेगाद बशिल्लें. इतल्यान थंय ताकतिकेन येवन शेखरान ताका फर्मायलें, वासंती साडे दोन जाले मुगो? चल बेगीन

दूद हाडपाक ना जाल्यार दूद मेळचें ना. शेखराची आवय थंयच आशिल्ली. शेखराक तिणे म्हळें, आरे साडे दोन म्हणनात रे, अडेज म्हणचें.

शेखर : तशें कित्याक तर ? तीन आनी अर्दाक कितें म्हणटात ?

शेखराची आवय : साडे तीन.

शेखर : चार आनी अर्दाक ?

आवय : साडे चार.

शेखर : पन्नास आनी अर्दाक, शंबर आनी अर्दाक कितें म्हणटात ?

आवय : हांव लागना बाबा तुज्या तोंडाक !

शेखर : (आवयक घट्ट धरून आनी हांसत तिचे पापा घेयत हट्टान) सांग तरी... सांगतरी आई!

आवयन एकदां सागून उडयलें. शेखराचो कटकट चुकोवपाक, "साडे पन्नास आनी साडे शंबर."

शेखर : हय मगे ? मागीर एक आनी अर्दाकूच देड, आनी दोन आनी अर्दाक अडेज कित्याखातीर म्हणपाचें ? साडेएक साडे दोन म्हटल्यार कितें जाता ? अशें कित्याक आई ?

आवयक शेखराचो राग आयिल्लो. म्हणपाक लागली, "वोगीराव पळोवया. तशें कित्याक आनी अशें कित्याक ! सगळेकडेन तुजीं शाणेपणां. म्हणटात म्हणचे म्हणटात लोक म्हणटात तशें आपणे म्हणपाचें."

शेखर : (रागार जावन) सांगना मगे कित्याक तशें म्हणपाक जाय तें ? नाका सांगूंक. कोण म्हणटात तांका म्हणूंदी. हांव आपलो साडे दोन, साडे एकच म्हणटलों.

शाळेंत सुद्दां. मास्तरान माल्ल्यार सुद्दां. आवयन ताचे हे सांगणेन हांसूंक आयलें. ताका लागीं ओडीत म्हणपाक लागली. जातीचोच मस्तो तूं. मस्तो पंडित !

२२-६-१९७१.

## आमचो राजा कोण तर ?

भारताचे आदले पंतप्रधान शास्त्री हांचें ल्हानशें चरित्र शेखरान वाचपा निमतान उखल्लें. आनी ताच्या कव्हरावेल्या शास्त्रींच्या फोटयाकडेन बारिकसाणेन पळेत म्हाका म्हळें, "हो कोण बाबा ? "

हांव : हांकां वळखना ? आरे हे आमचे लाल बहादूर शास्त्री.

शेखर : शास्त्री म्हणचे कोण ?

हांव : तुका खबर ना ? शास्त्री आमचे भारताचे पंतप्रधान. फाटीं हांवें एकदां तुका सांगिल्लें मरे, विसल्लो ?

शेखर : पंतप्रधान म्हणजे, इंदिरा गांधी आमची राणी आसा तशेंच न्हय ? हांवूय ताका ताचेच भाशेंत समजायतां " हय. शास्त्री हो भारताचो आदलो राजा."

शेखर : आदलो राजा चाचा नेहरू न्हय बाबा ?

हांव : हय रे. आदलो राजा नेहरू. ताचे अुपरांत, म्हणचे तो देवागेर गेल्या उपरांत लाल बहादूर शास्त्री आमचो राजा जालो. आनी आतां चाचा नेहरूंची चली राज्य करता. इंदिरा गांधी.

शेखर : नेहरू उपरांत शास्त्री कसो राजा जालो तर ? तांचे चलयेक राणी करपाची न्हय ?

हांव : ना रे, राजा उपरांत ताची चली वा चलो राजा जाताच अशें ना. केन्ना केन्नाय दुसरोच कोणू राजा जाव येता.

शेखर : इंदिरा गांधींचो घोव ना न्हय, बाबा ?

हांव : ना. देवबाप्पागेर गेलो.

शेखर : घोव ना जाल्यार बायल एकदा देवबाप्पागेर गेली कीं दुसरी करिनात न्हय, बाबा ?

हांव : ना. तशे करपाक जायंना.

शेखर : राणयेक सुद्दां ?

हांव : राणयेक सुद्दां.

शेखर : मागीर आतां आमचो राजा कोण तर ?

हांव : राजा ना. राणीच.

शेखर : तर मागीर राजा नासताना भारताचें इतलें राज्य चलोवपाक इंदिरा गांधीक भय दिसना बाबा ?

१७–१–१९७२

## भासांची गम्मत

शेखर : बाबा, इंग्लेजींत गॉड ( God ) म्हणचे कोंकणीत कितें ?

हांव : देव. तुका खबर ना रे शेखर ?

शेखर : आसा म्हणुनूच तर तुमकां विचारतां. मुद्दाम. तुमची परिक्षा घेंवचेखातीर.

हांव : अश्शें !

शेखर : आनी कोंकणींत गॉड म्हणचे इंग्लेजींत कितें बाबा?

हांव : ( Jaggery ) जॉग्री.

शेखर : आमच्या गॉडाचो इंग्लेजींत देव जाता. आसा की ना गम्मत ? सांगात अशें कित्याक तें?

हांव : म्हाका खबर ना. तूंच सांग पळोवंया.

१०–४–१९७३

## भासांची निर्मिती

शेखर : सगळ्यो भासो कोणे सुरू केल्यो बाबा ?

हांव : लोकांनी.

शेखर : म्हणचे आपापली भास पयलेच खेप उलयता आसताना सगले लोक एकठांय जमले आनी एकमेकांबराबर एक एक उतर उलोवपाक लागले ?

हांव : तशेंच कितेंतरी आसूंक फावो चडकरून.

शेखर : आनी आपूण कितें उलयतात त्या उतरांचे अर्थ तांकां कोणें सांगले ?

हांव : (ह्या प्रस्नाक म्हजेकडेन जाप ना.)

७–११–१९७३

## आमच्यो सायकली अमेरिकेक ?

खंयच्याय तरी वर्तमानपत्रांतल्यान एक खबर उजवाडा आयिल्ली : "अमेरिकेंतल्या लोकाक आमच्यो

भारतीय सायकली खूब मानवूंक लागल्य'त. देखून दरवर्सा लाखांनीं रूपयांच्या सायकलींची मागणी अमेरिका भारता-कडेन करपाक लागल्या."

शेखराक हांवें ती दाखोवन म्हळें, "पळेलें मरे शेखर तूं सद्दां फॉरेन हें बरें, फॉरेन ते बरें अशें म्हण्टा न्हय ? भारतांत लेगीत कितल्यो तरी वस्ती अमेरिकेपरस बऱ्यो जातात. तुका मात खबर ना. हें वाच. मागीर तुका कळटलें."

शेखरान बातमी बरी करून वाचून काडली आनी म्हणपाक लागलो, "तें कोणेंतरी ओगीच बरयलां. भारताच्यो सायकली अमेरिकेपरस बऱ्यो किते जातल्यो!"

हांव : मागीर वोगीच मागयतात तर अमेरिकेचे लोक आमच्यो सायकली ?

शेखर : तें आसूं आतां. तुमीच म्हाका सांगात हें खरें कशें जातलें ? अमेरिकेच्या मनशांक चंद्रार वचपाचीं माकनां करूंक येतात, व्हड व्हड बोटी करपाक येतात, विमानां येतात. आमी आयकूंक ना तसल्यो वस्ती करूंक येतात. आनी सायकली करपाक मात तांकां जमना न्हय ?

हांव : तशें न्हय रे शेखर. सायकली करपाक तांकां जमता. म्हजे म्हणणेचो अर्थ, आमच्योय सायकली खरेपणीच बऱ्यो आसतात. आनी थंयच्या किमतीच्या मानान त्यो जायत्यो सवायूय आसतात. देखूनूच जांवये अमेरिकन लोक त्यो भारतांतल्यान मागयतात. नाजाल्यार कित्याक मागयतले आसले ?

शेखर : (मात्सो विचार करून) तशें जायत. (मात्सो थारून) तशें जाल्यार इंदिरा गांधीक आमी सगळ्यांनी बेग्गीन कळोवपाक जाय की अमेरिकेक एक पासून सायकल धाडू नाका; एक पासून !

हांव : (ताच्या उलोवपाचो रोख न समजल्ल्यान ) कित्याक रे ?

शेखर : निखालूस धाडूंक फावना आमी कसलीच वस्त अमेरिकेक. ती पाकिस्तानची मित्र न्हय बाबा. भारताबराबर पाकिस्तान लडाय करता तेन्ना आमच्या लोकाक मारून उडोवंचे पासत अमेरिका पाकिस्तानाक विमानां, आर्मां, तरेकतरेचे बाँब दिता. ताचेवाटेन रावता. भारतान अमेरिकेचें कांय एक वायट करिनासताना ती अशी पार्शिअॅलिटी करता. आमचेकडेन शत्रूपण करता. आनी सायकली मागयताना मात तिका भारताची याद जाता ? त्योय पाकिस्तानाकडल्यानूच मागय अशें आमचे इंदिरा गांधीनी अमेरिकेक सांगपाक जाय !

६–१२–१९७३

## बँकेचो मॅनेजर

"बाबा, तुमी बँकेचे मॅनेजर कित्याक जावंक ना; तो ... जाला तशें?" शेखरान म्हाका प्रस्न केलो.

हांव : कित्याक रे, आयज सगले सोडून बँकेच्या मॅनेजराचीशी तुका याद जाली ?

शेखर : सांगात तरी कित्याक जावंक ना ते ?
हांव : तूंच सांग हावें कित्याक जावंक जाय आशिल्लें तें.
शेखर : तशें जाल्यार तुमकां जाय जाय तेन्ना जाय जाय तितले पैशे मेळचे नाशिल्ले ?
हांव : कित्याक पुण इतले पैशे ?
शेखर : नवी फियाट मोटार घेवपाक. टेलिफोन घेवपाक.
हांव : आरे पुण बँकेचो मॅनेजर जालो म्हुण बँकेचे पयशे ताचे जायनात. ते सरकारचे.
शेखर : सरकाराचे जाले म्हुण, सरकार सदां बँकेत ते पळोवपाक येता? आपल्याक घरां बांदपाखातीर, नवी मोटार घेवपाखातीर मॅनेजराच्यान तांतुतले थोडे घेवपाक जायना?
हांव : ना अजिबात जायना.
शेखर : कित्याक पुण ? समजा ते घेतले. घर बांदलें. मोटार घेतली. आनी मागीर सवकासायेन आपल्या पगारांतले पयशे आसातशेय बँकेंत व्हरून दवल्ले जाल्यार कितें जाता ? सरकाराक कितें वायट जाता ?

हजारांनी लोक बँकेंत पैशे दवरतात ते बेठेच थंय उरचे परस मॅनेजरान तांचो बरो उपेग केलो जाल्यार कितें बिघडटा ?
हांव : ती चोरीच जाता. मॅनेंजरान फक्कत आपलो पगार घेवपाचो. हेर पैशांक हात लावपाक जायना.

शेखर : जायना तें जालें. पुण कारण कितें तें तरी सांगात (शेखराक आतां प्रत्येक गजालीचे कारण सांगपाक जाय बेरटेंच ना, न्हय, हय म्हटल्यार उपकारना. आतां तो व्हड जाला. ल्हान आसताना 'ना' 'हय' इतलें सांगून भागतालें.)
हांव : तशें न्हय रे शेखर. सरकारचे जांव हेर कोणाचेय जांव पयशे आपणें घेवंक उपकारना.

शेखर : पुण कित्याक ?

हांव : हें पळे ज्यांचेकडेन खूब पैंशे आसतात ते दुसऱ्या कडल्यान केन्ना घनात. ज्यांचेकडेन उणे आसतात, ताणीं दुमऱ्याकडल्यान ते घेतले जाल्यार वेळार परथे दिवप तांका जमना. देखून आपण घेतिल्ले पैशे वेळार पावलेना जाल्यार ते घेवप्याक तरेक तरेचे त्रास भोगचे पडटात. तो चोर थारता. फटींग थारता. ताका जेलांत वचचें पडटा. दुसऱ्याचे पयशे म्हणजे एकदम वायट ते सरकाराचे जावं. ना जाल्यार मागीर आनीक कोणाचेय जावं. हांवें शेखराक समजायलो. पुण हे जापेन ताचें समाधान जाल्लें दिसलें ना.

शेखर : बाबा, त्या बँकेच्या मॅनेजराचो पगार खूब आसतलो न्हय आमचे बिल्डिगेतल्या ?

हांव : कित्याक रे ?

शेखर : सांगात तरी.

हांव : आसतलो म्हयन्याक हजार. देड हजार.

शेखर : इतलोच ?

हांव : तर तुका दिसलो पन्नास हजार ?

शेखर : मागीर तो स स म्हयन्यांनी एक एक नवी मोटार कशी घेता तर ?

फियाटीक तीस हजार पडटात. फिरजाकतीन हजार.

हांव : घेंव रे आमकां कित्याक जाय दुसऱ्यांच्यो गजाली.

म्हजे हे जापेर कांय उलयलो ना तो. पोले भुगोवन वोग्गी बसलो.

५-३-१९७४

# बरें तें फाटीं

"बाबू तूं कोणाचो रे बाळा ?" दनपारचो जेवणा उपरांत शेखर म्हजेसरीं न्हिदिल्लो आसताना हावें ताका विचाल्ले.

शेखरान जाप दिली. "आईचो आनी बाबाचो."

हांव : आईचो आनी बाबाचो,काय बाबाचो आनी आईचो?

शेखर : तशें न्हय. आईचो आनी बाबाचो. आदीं आईचो. मागीर बाबाचो.

हांव : म्हणचे आई तुका म्हजे परस चड आवडटा. अशें मरे?

शेखर : तशें न्हय बाबा तुमी चड आवडटात. देखून तुमचें नांव मागीर. आईचें तुमचे आदीं.

हांव : तशें कशें तर? वोगीच कितेंय सांगू नाका, म्हाका बरें दिसपाखातीर.

शेखर : खऱ्यांनीच बाबा .

हांव : म्हाका चड आवडटात त्यो गजाली हांव आदीं दवरतां. आवडनात त्यो फाटीं.

ताचेर शेखर म्हण्टा : तुमी तशें करता जायत. म्हजें तशें ना. म्हजें सामकें उरफाटें. चड आवडटा तें हांव सदांच फाटीं दवरतां आईक सुद्दां विचारात जाय जाल्यार. अभ्यासापरस म्हाका गोल्डस्पॉट चड आवडटा. सरबत चड आवडटा . म्हणून अभ्यास करताना आईन म्हाका सरबत दिल्यार, हांव अभ्यास बेगीन बेगीन करून सोपयतां. आनी मागीर वरभर गोल्डस्पॉट ना जाल्यार सरबत पियेत बसतां. आतां म्हाकाय याद जाली. शेखराक तातयां खूप मानवतात. पुण आवयन जेवणार तीं ताका दिलीं जाल्यार सगळें जेवण सोपल्या उपरान बरे

रूचीन तो तीं खाता. दुदापरस च्या ताका चड मानवता. आमी ताका च्या केन्ना दीना. पुण केन्नाय हट्ट करताच म्हूण घोंटभर ती ताका दिली जाल्यार ताची रितूच तशी. ग्लासभर दूद घटाघटा पियेवन उडवप आनी मागीर, बश्शेंत सांबाळून दवरिल्ली घोंटभर थंडगार च्या बरभर व्हडा रुचीन पियेवप.

१३-१९७४

## गर्दैचें माप

शेखर आयज पणजेच्या म्युनिसिपल गार्डनात कार्नाव्हाल पळोवपाक गेल्लो. आमच्या शेजारच्या रूय, लेक्नोर ह्या आपल्या अिश्टांबरोबर. परतो आयल्या बराबर तो म्हाका म्हणटा ..

शेखर : कितली गर्दी बाबा कार्नाव्हलाक, खूब म्हणजे खूब म्हणचे खूबूच.

हांव : खरेंच रे?

शेखर : एकदम गर्दी. ॲक्सिडेंटाक आसता न्हय ताचेपरसूय चड.

१३-३-१९७४.

## पानाविणे फुलपी चांफो

आमी पणजे आल्तिन्यार रावतालीं. शेजारांचें कैणयाचें घर. आमच्या बूलॉकाच्या फाटल्या गॅलरींत उबो

रावलोकीं केणयाच्या पोर्सांतलो धवो चांफो सामकाराकूच दिसतालो.

एक दीस गॅलरीत उबो रावन शेजारच्या पोरसांतल्या फुलांनीं रसरसून भरिल्ल्या ह्या चांफ्याकडेन शेखर एकसारको बरोच वेळ पळेतालो. फाटीं येवन हांव ताज्या म्हज्यान पांच मिणटां उबो रावलों तरी ताज्या ध्यानात ही गजाल आयलीना. तेन्ना हावें ताका म्हळें : कितें रे पळेता शेखर इतले बारीक साणेन सो?

शेखर : हें झाड अशें कशें बाबा ?

हांव: अशें म्हणचे ?

शेखर : हाका झाडाकुच फुलां फुल्ल्यां. पानां बी काय ना ?

हांव: पानां आसुंकुच जाय अशें आसा ?

शेखर: सगळया झाडांक आदीं पानां येतात आनी मागीर फुलां न्हय ? मागीर हें अशें कशें? सगळीं फुलांच आनी झाडाक पान अेकूय ना ? देवबाप्पा पानां लावपाक बिसल्लो बी काय कितें ?

१६-९-७४

## गणीत सोडोवपाची नवी रीत

शेखर गणितांत मात्सो बरो ना. हाबें ताका विचाल्लें: " शेखर शाळेंत शिकयतात तीं गणितां तुका समजतात मरे सारकीं, काय ना " ?

शेखर : हय बाबा. काल्लच्यानूच कळपाक लागल्यांत.

हांव : तीं कशीं रे बाबा ?

शेखर : हावें नवी पद्दत काडल्या तीं सोडोवपाची.
हांव : नवी पद्दत, ती आनी कसली ? म्हाका तरी सांग.
शेखर : काल की ना शाळेंत मास्तरान घाल्लें एक गणित चुकपाक लागलें. हांवें सोडयल्लें बराबर पुण उत्तर चुकपाक लागलें. हांवें कितें केलें जाणा बाबा ? गुणाकार केल्लो न्हय त्या जाग्यार भागून पळेलें. तर उत्तर बराबर येता. तेन्ना-पासून गणितां सोडोवपाची हांवें नवी रीत सोदून काडल्या. मास्तरान गणित घातलें की ताचें उतर पुस्तकांतल्यान घेवपाचें. आनी तशें उत्तर येयमेरेन गुणाकार चुकल्यार भागपाचें. तरीय चुकल्यार बेरीज ना जाल्या वजाबाकी करून पळोवपाचें. एकेकदां गणित रांखडेंच सुट्टा. एकेकदां वेळ मात्सो चड लागता इतलेंच. पुण खंयचेंय गणित हे रितीन सुट्टाच. कालपसून वर्गांत म्हजीं सगळीं गणितां बराबर येवंक लागल्यांत. म्हजी वही हाडूं ? टिचरोन म्हाका बरो रिमार्क दिला.

१४-१२-१९७४

## हतयाक हत्तिरोग ?

शेखर "जनरल सायन्स" विशयाचो अभ्यास करतालो. मदींच ताणें म्हाका प्रस्न केलो : टी. बी. म्हणचें कितें बाबा ?
हांव : तिजक. क्षयरोग.
शेखर : म्हणचे ?
हांव : ज्या रोगाकारणान मनीस बारीक जोर येवन सुकत

रावता आनी फात्रो ते उपचार, वखद केलें ना, पथ्थ केलें ना जाल्यार निमाणो मरता, तो रोग.

शेखर : आनी इलेफंटायसीस म्हणचे ?

हांव : हत्तीरोग.

शेखर : हो कसलो रोग. बाबा ?

हांव : एका खेरीतूच तरेचो. जळारी चावल्यो की ह्या रोगाचे जंतू मनशाच्या रगतांत वेतात. आनी अशें जायते दिस जायत रावलें कीं मनशाचे पाय हतयाच्या पायांसारके गरगरीत फुगतात. तशें जालें की मनशाक हत्तीरोग जाला म्हुण समजुचें.

शेखर : हतयांचे पाय सदांच खांब्यावरी वांटकुळे आनी फुगिल्ले आसतात ते कित्याक ? तांकाय हत्तीरोग जाल्लो आसता, काय आपले वोगीच ?

१-२-१९७१

## एक आसलो मनीस : एक काणी

एक आसलो मनीस. ताका कोणेंय तरी एक वाग, एक व्हडलो कुत्रो आनी एक हरण हाडून दिलें. रानांतल्यान. वाग ल्हान. माणकुलो. कोणाक खाय नासलो. हरणूय तशेंच.

मनीस सद्दां बाजारांत वेतना तांकां तिगांकूय मोटारीन बसयतालो. फाटले सिटीर. आपले बाबूक फुडें बसयतालो. आनी भोवूंक व्हरतालो.

बाजारांत गेलो, भाजी, मेमी, मोसंबी बी विकतीं घेतलीं की मनिसाचे पैशे थोडे जाताले. तरीय तो कुत्र्याक, हरणाक

खाऊ हाडटालो. वागाक मटण हाडटालो. ताचे सगले पैशे सोंपताले. पुण पैशे सोंपले म्हण तो वागाक कुत्र्याक कोण्णाक केन्नाच उपाशीं दवरिनासलो. खूप खूप पैशे दिवन तांकां खाऊ हाडटालो. (थारून) वाग, कुत्रो, हरण व्हड जाले कीं तांकां चड चड मटण लागता आनी खाऊ लागता न्हय बाबा ?

हांव : लागता तर! पुण म्हाका एक सांग पयशे सोंपतकुचूय तो मनीस तांकां चडचड खाऊ हाडीतूच रावतालो म्हुण तूं सांगता तें कशें ? पयशे नासल्यार कोण कितेंच फुकट दिता रे शेखर ?

शेखर : तेंच सांगता न्हय बाबा कशें तें. आदीं म्हजी काणी तरी आयकात, मागीर विचारा. (काणी फुडें चालू) मनीस बरो आसलो न्हय ? आपल्या बाबूची, कुत्र्याची वागाची माया करतालो. बायलेची माया करतालो. मनीस बाजारा-तल्यान सद्दां देवबाप्पाक फुलां हाडटालो, उजवाती हाडटालो. मनीसाची बायल सद्दां देवाची पुजा करतालो. ( आमचे घरचें वातावरण ) ताचो बाबूय सद्दां देवबाप्पाक पायां पडटालो. सगळ्यांक बरो कर अशें देवाक सांगतालो. आपले बाबाक खूब पैशे दी सांगतालो. बाबू, बाबाचें आईचें सांगलेलें सगलें आयकितालो. सद्दां शाळेंत वेतालो. मन लावन अभ्यास करतालो. टिचरीचें आयकितालो केन्नाच फटी उलयनासलो. कोणाक त्रास दियनासलो. सामको गुणेस्त भुरगो आसलो. देखून देवबाप्पा ताणें सांगलेलें सगलें आयकितालो. आनी बाबूच्या बाबाक... मनिसाक खूब खूब लाखांनी पैशे दितालो. बरे बरे कपडे दितालो. व्हड व्हड सुंदर सुंदर घरां रावपाक दितालो. घर राखपाक पोलीस दितालो.

आनी एक दीस देवबाप्पान त्या मनिसाक राजाच करून उडयलो.

१६-३-१९७०

## खाशेली काणी

एक दीस चड मस्ती करता म्हुण शेखराचेर हांव रागार जाल्लों. त्या दिसा सवंगड्यां बराबर खेळपाक हांवे ताका सोडलो ना. इतलेंच न्हय तर ब्लॉकाभायर सरपाक लेगीत दिलो ना.

त्या दिसा रातीच्चो "म्हाका एक काणी सांग रे शेखर" अशें ताका म्हणनाबराबर जी काणी खास म्हजेपासत रचून ताणें सांगली ती ही :

एक आशिल्लो वाग आनी एक आशिल्लो शींव. दोगूय जाण एक दिस झगडूंक लागले. वाग म्हणटा तुवें म्हजें कितें तरी घेतलां. शिव वागाक म्हणटा तुवेंच म्हजें कितेंय तरी चोरलां.

दोगूय जाण गुर्रगुर्र करून झगडटां झगडटां दोंगराच्या सामके तोंकार पावले. तरी झगडतूच आसात. सकयल खोल घळ आनी तांतूत उदक भल्लां.

दोगूय गडगडून पाणयांत पडले. आनी बुडूक बुडूक आवाज करीत पोंदा गेले. मेले. देवागेर पावले.

पुण वागाची बायल, ताचो बाबू कोणूच रडलीं ना. शिवाची बायल ताचो बाबूय रडलो ना. मातपसून रडूंक

ना. "देवागेर गेले मू ? वचू दी. काय जायना गेले म्हणून. कोण्णांक वायट दिसूक ना. कोणाचें कितें जाता देवागेर गेले म्हुण. बेठेच झगडटात तांकां तशेंच फावो."

शिवाचो बाबू शिवाची मोटार चलोवपाक लागलो. आपले आवयक घेवन फिरूंक व्हरूंक लागलो. आपलो बाबा करतालो तितलीं कामां तो करपाक लागलो.

वागाचो बाबू, वागाची मोटार चलोवपाक लागलो. आपले आईची सगलीं कामां करूंक लागलो. मस्ती करी नास्तना आईचें सगळें आयकुपाक लागलो. आपले आवयक मोटारींतल्यान फिरूंक व्हरूक लागलो. सगलीं जाणां मज्जेंत रावूंक लागलीं.

हावें शेखराक म्हळें: शेखर, वाग आनी शिवाच्योय मोटारी आसतात रे? जानवरांकडेन मोटारी आसनात तांकां त्यो चलोवपाकूय येनात.

हाचेर शेखर म्हाका रागान जाप दिता : हेर जानवरां कडेन मोटारी आसना जायत पुण तुडून मेल्ल्या वाग शिवा कडेन त्यो आशिल्ल्यो. ते हेर जानवरांभशेन न्हय. वेगळे तरेचे. देवबाप्पाचे तें लाडके आशिल्ले. आनी देखून तांचेखातीर तांकां चलोवपाक येतात तसले तरेच्यो मोटारी देवबाप्पानूच तांकां दोगांकूय करून दिल्ल्यो. देवबाप्पाक तशें करपाक येना ? ताका सगळें करपाक येता.

३-२-१९७०

## उकते जनेल : अेक काणी

एक आशिल्लो मनीस. घरांत तीन मनशां. मनीस' ताची बायल आत्ती ताचो बाबू. ( आमचें घरचेंच वातावरण

कणयेचें थळूयआमचें घरूच. आमी रावताले ते तरेचो पयल्या माळ्यावेलो ब्लॉक. आमी तेन्ना आल्तिन्यार रावतालीं. )

रात जाली तेन्ना घरातलीं मनिसां न्हिदलीं. गॅलरीकडलें एक जनेल मात खिळी न लायतां उकतेंच उल्लें. ह्या जनेलांतल्यान एक वाग भितर सल्लो. आनी जाग करिना-सताना हळूच वचून मनिसां न्हिदिल्लीं तांच्या बाज्जेपोंदा गुपचूप बसलो. थोड्या वेळान वागाक तो बसला थंयूच न्होद लागलीं. आनी लागलो मोटयामोटयान घोरेवंक.

ताचें घोरणें आयकून मनीस जागो जालो. कुडींतलो दिवो पेटयलो. थंय पळे जाल्यार, आवयस म्हजे, बाज्जेपोंदा एक मोट्टो वाग न्हिदला आनी घोरेता. मनीस सामको भियेलो. कितें करचें तेंच ताका कळना.

ताणें मात्तपासून जाग करिनासताना बायलेक उठयली. आपले बाबूक उठयलो. तिगांयजाणां दुसरे कुडींत गेलीं. बेगीबेगीन आपले कपडे बदल्ले. मनिसान एका ल्हानशे बॅगेंत भरून थोडे कपडे घेतले. ताचे बायलेन बाबूक वाटेक भूक लागत म्हूण पाव, ब्रिस्किट आनी थर्मासांत थोडें दूद घेतलें. सगलीं जाणां पांय वाजयनासताना सकयल आयलीं. दार उगडेंच सोडलें. दिवो पेटतूच दवल्लो. ( आवाजान वाग जागो जायत जाल्यार! ) मनिस गॅरेजींत गेलो मोटारीचें दार उगडून तिगांय भितर बसलीं. बाबान मोटार स्टार्ट केली. आनी सामकी फौ करून फास्ट सोडली. बेळगांव पुणेचे वाटेन. रायबंदरचे वाटेन. फास्ट म्हणचे सामकीच फास्ट. वळणाचे कर्रर कर्रर आवाज करता तितली फास्ट.

मोटार फास्ट धांवता. वाटेर चड्टेर एक व्हडलें

वळण लागलें. मोटार धांवत आसा. वळणार ती वळयतलो इतल्यान रस्त्यार पळे जाल्यार, रस्त्याच्या सामकी मदींच वागाची बायल शेपडी हालयत बसल्या. आनी वागाचो बाबू आपले आवयचे शेपडेबराबर खेळटा.

इतली फास्ट मोटार सट्ट करून एकाएक कशी थामयतलो? ब्रेक लायल्यार परथी जातली. कुशीकसून व्हरतलो म्हळयार रस्तो अरूंद. आनी दावे वाटेन खोल घाटाची कड. कितें करतलो !

मोटार वागाचे बायलेच्या आनी बाबूच्या आंगावेल्यान तांकां चिड्डून व्हरचीच पडली. दोगांयजाणां रस्त्यार मरून पडलीं. रगतान भरून गेलीं. पुण मनिसान ब्रेक मारून मोटार थांबयली ना. तशीच फुडें व्हेली. मोटार थारनासताना धांवत आसा. बेळगांव, कराड, कोल्हापूर सातारा रस्त्यार पुण्याचे वाटेन धांवत आसा. पुण्याच्या मार्गावेलीं गावांची ठळक ठळक नांवां शेखराक खब्रर आसात. कराड आदीं काय कोल्हापूर हे गजालीची मात ताका बरी याद ना. भितर मोटारींत तिगांय जाणां सामकीं भियेवन गेल्यांत. मनिस, ताची बायल, बाबू सगलींजाणां आनी हेवटेन मोटार धांवत आसा.

तेवटेन कितें जालां! बऱ्याच वेळान बरो धोरेतालो तें थांबोवन वाग जागो जाला. बाज्जेपोंदच्यान भायर सरून पळे जाल्यार बाज्जेर कोण एक ना. "आरेच्या. खंय गेलीं तर सगळीं जाणां?" वाग सकयल आयलो. गॅरिजीकडेन वचून पळे जाल्यार थंय मोटारूय ना. ताका रोखडेंच समजलें कीं हीं मनिसां लागीं न्हय खंय तरी पैस पुणे, मुंबयूच वचपाक गेल्लीं आसूंक जाय. आनीक खंय वेतलीं! तोय पुण्याचे रस्त्यावटेन धांवत सुटलो. मोटारीच्या गाजोलीनाचो वास घेयत. रातीची

रस्त्यावेल्यान एकच मोटार वचत जाल्यार गाजोलिनाच्या वासार कळटा ना बाब्रा? शेखराचो म्हाका प्रस्न.

"हय कळटा रे." हांव

धांवताना वाटेर वागाकूय तें व्हडलें वळण लागलें. थंय पळे जाल्यार आपली बायल आनी बाबू, दोगांय मरून पडल्यांत चिड्डून कुडके कुडके जावन. हे आपल्या भुकेलेल्या बायले भुरग्यापासत, तांकां खावड सोदचे निमतान तर वाग भायर सरिल्लो. तांकां हांगा पैस दोंगरांतल्या रस्त्याच्या एका वळणार सोडून शिकारेचो सोद घेत घेत तो शारांत पाविल्लो आनी एका ब्लॉकाचें जनेल उकतें आसाशें पळोवन ल्हवूच भितर सरून थंयच्या बाज्जेपोंदा लिपून बशिल्लो. मनशां निकतींच न्हिदल्यांत. शेजारच्या घरांतलींय मनशां अजून जागीं आसात. अशे वेळार तांकां खावपाचो येत्न करप भयाचे. तांकां बरी गाड न्हिदपाक दिवपाक जाय. आनी मध्यान रातीर काम करपाक जाय. असो विचार करून वाग बाज्जेपोंदा लिपून बशिल्लो.

पुण हांगा तर ताचो सगलोच बेत फशिल्लो. शिकार हातची गेलीच. वेल्यान आपली बायल आनी भुरग्याकूय ह्या मनशान मारून उडयल्लीं. वागाक मनशाचो हिसपाभायर राग आयलो. म्हणपाक लागलो: " मनिसा तूं पळून गलोय तो गेलोयूच. म्हज्या बायलेक आनी भुरग्याकूय दुश्टा अशेतरेन तुवें उडयलीं मारून ? चांडाळा मेळूच तूं हाताक. तुका आनी तुजे बायले भुरग्याकूय असोच पिस्टून उडयना जायन तर नावाचो वागूच न्हय जायन." असो विचार करीत वाग किंवाटयान घांवत आसा पुणे मुंबय रस्त्यावेल्यान.

वाटेंत वागाक एक आस्वेल मेळटा. तें ताका झप
धालून आडायता आनी घट्ट धरता.

"आस्वेल वागाक मारता ना बाबा?" शेखराचो म्हाका प्रस्न.

हांव : हय मारता तर !

शेखर : ताका मोट्टी नाखटां आतात न्हय ? हावें सर्कशींत पळेल्यांत.

हांव : आसतात खुबूच धारेचीं. सुयेसारकीं नाखटां.

शेखर : मागीर वागाचें पोट ताका चिरूंक येवंचें ना ?

हांव : ना येवंक कितें जालां ? सहज येतलें.

जे जे वेळार काणी अड्टा ते ते वेळार शेखर प्रस्न विचारता. ताका काणी फुडें व्हरपाक थोडो मसालो जाय आसता. माहिती जाय आसता. ती हावें दिली कीं काणी परतीय फुडें चालू.

शेखर : आस्वेलान वागाचें पोट चिरलें आनी ताचो जीव वचसर ताका मारून उडयलें. ते वटेन मनिसाची मोटार पुण्याकडेन धांवतूच आसा. बायले भुरग्याक घेवन. इतल्यान कोंबो आड्डलो. सकाळ जाली. उजवाडलें.

" उजवाड पळेना।फुडें आस्वेलां बी रानांतलीं जनावरां मोटारीक भियेतात. रस्त्याचेर रावनात न्हय बाबा ? ' शेखराचो प्रस्न.

हांव : ना रावनात. आपापल्या बिळांनी, घोलींनी वचून रावतात. न्हिदून पडटात.

शेखर : अजिबात रावनात ? केन्नाच ?

हांव : ना तांचें भोंवप काळखांत. उजवाड तांकां मानवना.

शेखर : उजवाडलेलें पळेतांच मनिसाक खोस जाली. ताणे आपले बायलेक सांगले " आतां कोणाचो भंय ना. वाग

खंयतरी रानांत वचून लिपतलो. " आनी अशें म्हणून ताणे गाडी रिवर्सांत घेवन गोंयचे वाटेन वळयलो. फास्ट सोडून तो परतोय धरा आयलो.

घरा दिवो अजून पेटतूच आसलो. दार उकतेंच आसलें. जनेलूय तशेंच. तो घरांत गेलो ताणे दिवो पालयलो. बायलेन दार धांपलें बाबून जनेल बंद केलें ... आनी ते दिसापासून केन्ना म्हळयार केन्नाच ताणीं जनेलां म्हुण उकतीं दवल्लीं ना.

५-१२-१९६९

## गणपतीचो हुंदीर : अेक काणी

एक आसलो शींव. रानांत बशिल्लो. थंयच्यान वेतालो गणपतीबाप्पा. ताणे शिंवाक पळेलो. आनी पळेनाबराबर सुरयेन कापून उडयलो.

शिंवाची बायल थंयच आशिल्ली. तिणे गणपती-बाप्पाक विचाल्लें "शिंवान तुजें किदें केल्लें ? तुवें ताका बेठोच कित्याक म्हूण मारून उडयलो ? म्हाका आतां घोव खंयचो ? आमचे बाबूक बाबा खंयचो ?"

गणपतीबाप्पा : तुजो घोव सद्दां म्हजे हुंदीर खावन उडयतालो. हांव हुंदराचेर बसतां. ताकाच खावन उडयलो जाल्यार हांव बसतलों कोणाचेर ? म्हाका चलत वच्चें पडचें ना ? आनी तूं जाणा कितले हुंदीर तुज्या ह्या घोवान खावन उडयले ते ? एक आनी दोन न्हय. एकशें, शंबर,

दोनशें. शंबरापरस चड. म्हाका ताजो रागूच आसलो. इतले दीस तो मेळनासलो. आयज बरो सांपडलो. हाबें ताका मारून उडयलो.

शिवाची बायल : म्हजो घोव तुमचे हुंदीर खावन उडयता जाल्यार तुमी म्हाका तशें सांगपाचें न्हय ? हांव ताका, तशें करूं नाका म्हणून सांगतलीं आसलीं. तो आयकतलो आशिल्लो. तुमचे हुंदराक हात लावंचो नाशिल्लो. सोंशे, बेबे, कोले ना जाल्यार आनीक कितेंय खातलो आशिल्लो.

गणपती : खऱ्यांनीं ? जाल्यार हांव ताका परतोय जीवो करीन तूं सांगशीत मू ताका म्हज्या हुंदिरांक खाव नाका म्हुण ?

शिवीण : खऱ्यानीच सांगतां गणपतीबाप्पा. तुमी ताका बेग्गीन बरो करात पळोवया. आशिल्लो तसो परतोय जिवो करात.

गणपतीबाप्पा हांसलो. ताणे जमनीर सांडिल्लें शिवाचें रगत हाडां, मांस सगळें एकठांय केलें. शिवाच्या पोटांत तें सगलें जशाक तशें भल्लें. ताचें पोट परथेंय शिवूनउडयलें मंत्र म्हळो .. फू मंतर · छू मंतर अशे तरेचे सगले मंत्र म्हणून, शिवाक सामको आशिल्लो तसोच परथोय जितो केलो.

शिवाच्या बाबून आपल्या बाबाची पापी घेतली. ताची बायल गणपतीबाप्पाक पायां पडली. आनी तिणे आपल्या घोवाक सांगलें : " ह्या फुडें केन्ना म्हणचे केन्नाच गणपती-बाप्पाच्या हुंदरांच्या वाटेक वचूंक नाकात आं "

गणपतीबाप्पाच्या पायांर तकली दवरून शिवान सांगलें, " केन्नाच वच्चों ना हां गणपतीबाप्पा केन्नाच "